

कृशण: नितल करकडे
कुंती: कल्याणी शिरोडकर

प्रा. रामदास करकडे

# कानीन कुंवर




(नाटक)

रामदास भास्कर करकडे

श्रेया प्रकाशन

कानीन कुंवर
(कोंकणी नाटक)

रामदास भास्कर करकडे

प्रकाशन क्र. : 01



पयली उजवाडावणी : 2016

उजवाडावपी :
श्रेया प्रकाशन
तरवळें, शिरोडें, फोंडें - गोंय

छापपी :
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट,
वळवय-फोंडें

मुखचित्र :
रा. भा. करकडे

मोल : ₹ 90/-

KANEEN KUNVAR
(Konkani Drama)

Ramdas Bhaskar Karkade

Publication No. : 01



First Edition : 2016

Publisher :
Shreya Publication
Tarvalem, Shirodem, Goa



Printer :
Hiru Narayan Naik
Rutu Offset
Valvai-Ponda

Cover :
R. B. Karkade

Price : ₹ 90/-

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' हे येवजणेखाला छापलां.

जिणे म्हाका भुरगेपणात आपल्याबराबर व्हरून नाटकां दाखयलीं
जाका लागून म्हाका नाटकां पळोवपाची आनी नाटकांनी कामा
करपाची ओड लागली; ते म्हजे आईक

**कै. श्रीमती भास्कर करकडे**

हिका हें म्हजें पयलें नाटक ओंपतां.

# नाटककाराच्या काळजांतल्यान

हें म्हजें कोंकणीतलें पयलेंच नाटक वाचप्यांच्या हातांत दितना मनाक खूब आनंद जाता. बारीक-बारीक नाटकुलीं, कथा, रस्तोनाट्य बरयतां बरयतां, तशेंच नाटकांनी कामा करतना मनाक सदांच दिसतालें की हांवेनूय व्हडलें म्हळ्यार दोन आंकी नाटक बरोवचें.

ल्हान आसतनां म्हजे आईचें बोट धरून हांव गांवच्या वाटारांत जावपी नाटकां पळयतालों. पयलीं बोरये बिऱ्हाडाक रावतनां थंयचीं नाटकां पळयलीं. ताच्या उपरांत शिरोडेच्या तरवळें ह्या गावांत रावपाक आयलीं. आमचें तरवळें म्हळ्यार नाटकांचें माहेर कशें. तातूंत बिऱ्हाडाक राविल्लीं तिवूय मास्टर कालिनाथ शिरोडकरांल्या घरांत. थंय बरोच तेप आमचो राबितो आशिल्लो. वय वाडटां वाडटां समजलें काशिनाथ मामा कितले व्हड कलाकार आशिल्ले ते. मागीर आदल्या तेपावयल्या नाटकां संबंदान तांचेकडेन खूब चर्चा केली. ताणीं कामां केल्ल्या आनी दिग्दर्शन केल्ल्या आदल्या नाटकां संबंदान जायत्यो गजाली समजून घेतल्यो. ताणी आमच्या खातीर बसयल्ल्या नाटकांत कामां करतनां, तांचेकडल्यान शिकून घेतना भौ आनंद मेळटालो. तशेंच तरवळें गांवचे आनीक एक व्हड कलाकार जांकां आमी सगळे आमच्या व्हडल्या भावाच्या सुवातेर मानतात ते सर्गेस्त तुळशीदास लोटलीकार हांच्योय खुबशो भुमिका पळोंवक मेळ्ळ्यो.

तातूंतल्यानूच म्हाका नाटकांची चड ओड लागली. नाटकांत कामा करतना, संवाद म्हणटना आसत घडये, म्हज्या भितर हें शिल्प आकार घेयत गेलें आसुयेत. हांव कितें व्हड बरोवपी न्हय; पूण जें साकारलें तें त्याच सगळ्या गजालींक लागून.

हें नाटक बरोवपाच्या संबंदान सांगपाचें म्हळ्यार महाभारता संबंधी ल्हानपणापसून खूब्ब आकर्शण आशिल्लें. खुबशीं पुराणीक नाटकां, नाटकांतलीं पात्रां म्हाका सदांच आकर्शीत करताली. मुखार महाभारताचो अभ्यास करता आसतना कृणाबद्दल एक वेगळेंच आकर्शण निर्माण जाल्लेंच. पूण जेन्ना हांव कर्णाबद्दल चड वाचूंक लागलों तेन्ना त्या व्यक्तिरेखेबाबत वेगळेच तरेन विचार करूंक लागलों. ताची खरी जल्मदात्री आवय कुंती. कुंतीक हो पूत तिच्या आंकवारपणान जाल्लो. फुडें कर्ण मुखार आसून ताची वळख घडून लेगीत ती ताका आपणावंक शकना. हें तिगेलें दुख्ख. तिगेल्या

मनांत जावपी हलकल्लोळ. तिगेल्या मनांतले उत्तर्फे खंय तरी प्रकट करचे हो एक ध्यास लागून राविल्लो.

कथा जरी पांच हजार वर्सापयलींची आसली तरीय अशे रितीन जो भुरगो जल्मता त्या आवयक म्हळ्यार राजमाता कुंतीन जें सोसलां, भोगलां तेच तरेन हें सगळें या भुरग्यानूय सोसलां, भोगलां. त्या भुरग्याकूय अशाच प्रकारची जीण सोंसची पडल्या, भोगची पडल्या हे खंयतरी मांडचें अशें जायते वेळां दिसतालें. तांतुतल्यानूच 'कानीन कुंवर'चें बरप जालें.

नाटक बरोवन पांच-स वर्सां अशेंच आशिल्लें. हालींच आमच्या वाड्यावयल्यो महिला मुखार सरल्यो आनी आमच्या श्री खुटादेवीच्या वार्षिक उत्सवाक ताचो पयलो प्रयोग करपाचो संकल्प सोडलो. पयलीं दिग्दर्शकाच्या हातांत हातबरपाची कॉपी दिवन पळेवया. ताणे योग्य ती जबाबदारी घेतल्यार फुडें विचार करूंया. तेप्रमाण श्री कमलाक्ष खेडेकार हाणीं जबाबदारी आपल्या आंगार घेतली. नाटक बसोवपाक सुरवात करता आसतनाच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर हे येवजणे अंतर्गत 'कानीक कुंवर' हें नाटक पुस्तक रूपान छापपाखातीर अकादेमीचो पालव मेळ्ळो. हांव गोवा कोंकणी अकादेमीचो व्हड उपकारी आसा. ताणीं दिल्ल्या ह्या प्रोत्साहनान म्हाका खूब कितें तरी मेळ्ळें अशें हांव मानतां. आनीक मुखार चड आनी चड बरोवपाखातीर प्रेरणाच ताणी म्हाका दिली अशेंच हांव म्हण्टां.

हें नाटक बरयतना म्हजे इश्ट पांडुरंग काशिनाथ गावडे आनी म्हज्या वांगडा शिकोवपी सौ. विजयाबाय दीक्षित हांचें खूब मोलाचें सहकार्य मेळ्ळें आनी तांतुतल्यानूच तांचे उर्बेन हांव हें नाटक पूर्ण करपाक पावलों. तशेंच म्हजे आनीक खूबशे मित्र जांचे सगळ्यांचे हे वाटेर मौलीक अशें मार्गदर्शन लाबले. पुस्तकाची सोबीत अशी छापणावळ करपी रुतु ऑफसेटाचे धनी हिरू नारायण नायक, पुस्तकाचीं प्रुफां पळोवपाची आनी हेर बरीच जबाबदारी आपल्या आंगार घेवपी पांडुरंग काशिनाथ गावडे आनी नाटकाच्या पयल्या प्रयोगाचें सादरीकरण करपी श्री खुटादेवीचे सगळ्यो वांवडी हांच्या सगळ्यांच्या उपकारांत हांव रावपाक सोदतां.

**– रामदास भास्कर करकडे**

तरवळें, शिरोडें-गोंय

# कानीन कुंवर
# एका प्रस्नाचो एके वेगळेतरेचो विचार

रामदास करकडेलें पयलें नाटक पुस्तकाच्या रुपान नाट्य रसिकांच्या हातांत पावता ही खोशेची गजाल. रामदासाक हांव फाटल्या चाळीसेक वर्सांसावन एक नाट्यमोगी म्हूण वळखतां. रामदास खऱ्यानींच नाटकाचो पिसो. ताणे लागीं लागीं सत्तरेक तरी नाटकांनी भूमिका केल्यात. तातूंत इतिहासीक, पुराणीक तसेंच सामाजीक नाटकांचो आस्पाव आसा. ताणे पंचविशेक नाटकांचें दिग्दर्शन केलां. ताचें एक सुदैव म्हणल्यार भुरगेपणांत ताका तरवळें-शिरोडेचे मास्टर काशिनाथमाम शिरोडकारां सारख्या नाट्य कलाकारा वांगडा रावून नाटकां संबदांन जायत्यो गजाली समजून घेववपाची संद मेळ्ळी. नाटकाच्या माटवांत वावुरतना तुळशीदास लोटलीकारांक खूब लागींच्यान पळोवपाचो योगायोग आयलो. आनी सगळ्यांत म्हत्त्वाची गजाल म्हणल्यार भुरगेपणांत आईच्या बोटाक धरून गावांतलीं नाटकां पळोवपाक मेळील्ल्यान नाटकाचें पिशें केन्ना आंगांत रिगलें तेंवूय समजलेंच ना. आनी तातूंतल्यानूच रामदासाक नाटकाची गोडी लागली आनी बरोवपाची संवय लागली.

ताणे एकांकी बरयल्यात. भुरग्यांमदीं सामाजीक प्रबोधन करपी पथनाट्यां बरोवन तांचें सादरीकरण करून लोकांकडल्यान शाबासकीय मेळयल्या. रामदास हो एक हाडाचो म्हण्टात तसो शिक्षक आशिल्ल्यान खंयच्याय विशयाचो बारीकसाणीन विचार करप आनी मागीरूच ताचेर भाश्य करप हें तागेलें खाशेलेंपण. तागेलें वाचन खूब दांडगें. ताणे इतिहासीक आनी पुराणीक पात्रांचो वेगळे तरेन अभ्यास केल्ल्याचें नदरेंत भरता. इतिहासीक प्रसंगांकडेंन तो वेगळेच नदरेन पळयता. संभाजी महाराजांच्या जिणेतल्या अशाच एका प्रसंगाचेर ताणे वेगळे पद्धतीन विचार करून 'भोसलाई राजपुष्प' हें नाटक बरयलें. 'राजा दोन घरें मागें घ्या' हें माधवराव पेशव्यांचे जिणेचेर बरयल्लें दुसरें एक नाटक. रामदासाचो सभाव खूब मुर्वती. फुडें-फुडें करप ताका केन्ना जमलेंना. आंगात कलेचे पिशें आसून उपकरना ताची योग्य तरेन पोसवण जावपाक वातावरण आनी हेर घटकांकडल्यान पालव मेळपूय खूब गरजेचें आसता.

पांच-स वर्सां पयलीं रामदासान कानीक कुंवर नाटक बरयल्लें. हांवें तिनूय संहिता

वाचलेल्यो. पुस्तक छापचे पयलीं नाटकाचे एक-दोन प्रयोग स्टेज जाल्यार बरें जाता. नाटकांतल्यो तांत्रीक उणीवो आसल्यार समजतात. रामदासान दोन नाटकांचे पदरमोड करून गांवच्या कलाकारांक घेवन प्रयोग केले. प्रेक्षकांक नाटकां खूब आवडलीं. तेन्नाच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' हे येवजणेखाला कानीक कुंवर हें पुस्तक रूपान छापपाप् सवलत मेळ्ळ्या म्हूण रामदासाक खूब उमेद जाल्ली. रामदास नाटकाक प्रस्तावना हांवे बरोवपाची अट घेवन अडून बसलो. म्हज्या मुखार एक व्हडलें प्रस्नचिन्ह?

नाटकाक प्रस्तावना आनी कित्याक जाय? प्रेक्षकांक आनी वाचप्यांक थारांवनी तुजें नाटक खंय आसा तें! नाटक हें एक सामुदायीक प्रक्रिया अशें हांव मानीत आयलां म्हूण रामदासाक कडसोवपाचो असफल प्रयत्न केलो.

कानीन कुंवर नाटकांत रामदासान एका खाशेल्या विशयाची निसरगांठ एका वेगळ्याच विचारान सोडोवपाचो प्रयत्न केला. कर्णाच्या जल्माचें कुवाडें ही एक आयजमेरेन परंपरेन चलत आयल्ली काणी सगळ्यांकूच खबर आसा. पूण आयच्या हायस्पीडीन धांवपी विज्ञान युगांत सूर्यापसून कुंतीक आंकवारपणांत भुरगें जल्माक येता हें जरी पटपासारखें नासलें तरीय तशें घडलेलें अशें धरून गेल्यार तातूंत कर्णाक जल्म दिवपी कुंतीचो गुन्याव कितलो? कर्णाक जल्मभर जी हीनपणाची वागणूक मेळ्ळी ताका आवय म्हूण कुंती कितली जबाबदार? कुंतीन आपल्या बापायच्या खोशेखातीर कोपीश्ट दुर्वास रूशीची दीस रात सेवा केली आनी तागेलो यज्ञ पूर्णत्वाक गेल्या उपरांत ताणे तूं वीरपुत्रांची जननी जातली हो वरमंत्र दिल्लो तो तिका त्या वयाचेर मेळील्ली वरमंत्र आशिल्लो? कुंतीचें भुरगेंमत तेन्ना! मंत्र खरो काय आपल्याक फटयली तें पळोवपाक तिणे आपयलो सूर्याक मंत्राच्या सामर्थ्यान! पूण दुर्वास रूशीन वरमंत्र दितना आपूण कोणाक केन्ना,कितें दिता ताचो आनी त्या फुडें जावपी परिणामाचो विचार करपाक नाका आशिल्लो? मागीर चूक दुर्वास रूशीची जालीना?

दुर्वास रूशीन कुंतीक अयोग्य वेळार दिल्ल्या मंत्राक आनी अज्ञानपणान जाल्या चूकीक आयज स हजार वर्षांचो काळ सोपला. पूण आयज आमच्या संभोंवतणी पळयल्यार आमकां कितें दिसता? आमी पालक, ह्या तंत्रगिन्याच्या युगांत कसलीच समज नाशिल्ल्या आनी जाची ताका कसलीच गरज नाशिल्ल्या भुरग्यांच्या हातांत मोबायल नावाचो मंत्र दिवन कितें करतात? आयज स-सात वर्सांच्या भुरग्यांच्या हातांत स्कूटरीची गी दिवन बापूय फाटल्यान बसून तांची तोखणाय करतात आनी एकेतरेन दुर्वास रूशीचेंच काम करीनात मू? आमी नव्या तंत्रगिन्यानाचो जेन्ना भुरग्यांकडल्यान

दुरुपयोग जाता तो पळयतात तेन्ना मनांतल्यान खंती जातात. ामकां जें मेळ्ळेंना तें आमकां शक्य जाता जाल्यार आमी भुरग्यांक सगळें दिवया; पूण तांची गरज आनी तांकां तें दिवपाची वेळ जाला काय ना तें पळोवन दिवया.

कानीन कुंवरच्या निमतान रामदासान कांय नव्यो प्रस्नाच्यो जापो सोदपाक आमकां प्रवृत्त केल्यात. आमी विचार करतले व्हय?

तशें पळोवपाक गेल्यार कोंकणीत इतिहासीक, पुराणीक नाटकांची संख्या खूबच उणी आसा. रामदासा सारखो लेखक जेन्ना असो वेगळो प्रयत्न करता तेन्ना तागेल्या प्रयत्नाची खूब तोखणाय दिसता.

कानीन कुंवराच्या रूपान रामदासान महारथी कर्ण जो, सूर्यपूत आसलो तो जल्मभर सूतपूत्र म्हूण जगलो आनी कुंती राजमाता आसून एक वैराग्याची जीण जगली तांच्या जिणेच्या विदारक सत्याचें दर्शन घडयतना खंयचीय गजाल योग्य, वेळारूच जाल्यार ताचें म्हत्व उरता, ना जाल्यार प्रस्न आनी प्रस्नूच निर्माण जाता, हें दाखोवपाचो प्रयत्न केला तो खऱ्यानीच स्वागतार्थ आसा.

बाब रामदासाकडल्यान खूब अपेक्षा आसा. नाट्य रसीक तागेल्या नाटकाचें स्वागत करतले अशी आस बाळगून रामदासाक परबीं भेटयतां.

**– पांडुरंग काशिनाथ गावडे**

'कानीक कुंवर' ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग आयतार, तारीख 8 मे 2016 या दिसा तरवळे-शिरोडा हांगासल्ल्या श्री खुटादेवीच्या आवारात सांजेच्या 9.30 वरांचेर श्री खुटादेवी सांस्कृतिक मंडळाच्या महिलांनी सादर केलो.

**श्रेय नामावळ**

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. | कृष्ण | : | सौ. नितल रामदास करकडे |
| 2. | कुंती | : | सौ. कल्याणी धाकू शिरोडकार |
| 3. | कर्ण | : | सौ. आदी संदीप नायक |
| 4. | सूर्य | : | सौ. अलका संदीप गांवकार |
| 5. | अर्जून | : | सौ. रेश्मा प्रसाद शिरोडकार |
| 6. | दुर्वास | : | सौ. शर्मिली नवनाथ नायक |
| 7. | वृषाली | : | कु. प्रणाली विठ्ठल प्रभू |
| 8. | इंद्र | : | सौ. इंदू चंद्रकांत नायक |
| 9. | दुर्योधन | : | सौ. मनिषा मंगलदास शिरोडकार |
| 10. | शकुनी | : | सौ. रंजना राजाराम नायक |
| 11. | दुःशासन | : | सौ. निर्मला नायक |
| 12. | अश्वत्थामा | : | सौ. रेषा संजय नायक |
| 13. | शोण | : | सौ. संगीता रमेश नायक |
| 14. | द्वारपाल | : | सौ. अर्चना अशोक शिरोडकार |
| 15. | याचक | : | सौ. निलिमा विठ्ठल प्रभू |
| 16. | प्रियवर्धन | : | सौ. दर्शनी शिवानंद नायक |

| | | |
|---|---|---|
| दिग्दर्शन | : | श्री. कमलाक्ष माधव खेडेकार |
| रंगभूषा आनी उजवाडा येवजण | : | श्री. एकनाथ नायक |
| माचये येवजण | : | श्री. दास कवळेकार |
| पार्श्व संगीत | : | सौ. शैला मनोज नायक |
| संगीत साथ | : | श्री. संदीप गांवकार, रजत नायक आनी सौरव नायक |
| पार्श्वगायन | : | कु. श्रेया रामदास करकडे, कपिलेश गांवकार |
| खासा आदार | : | इश्वर नायक आनी संजय नायक |
| तबल्याची साथ | : | श्री. संतोष गांवकार. |
| निर्मिती | : | श्री खुटादेवी सांस्कृतिक मंडळ, तरवळे-शिरोडा |

**नाटक माचयेर सादर करचें आदीं लेखकाची लेखी मान्यताय घेवंची पडटली.**

# नांदी

जय जय जय जय श्री खुटादेवी
जगतारिणी तूं उद्धारिणी तूं
तूं सकलांची माता

मागणें एक तुजे लागी मागतां
नाटक आमचें तुज्या पायीं करतां
तारून तूं तें व्हर गे माये

माथें झुकयतात तुजिया चरणी
स्मरण करूनी तुजें गे आम्हीं
कानीन कुंवर तुका गे ओपतां.

# अंक पयलो

## (प्रवेश पयलो)

(थळ कर्णाचें शय्यागृह. सगळ्याक काळोख पातळिल्लो आसा. एक लामणदिवो पेट्टा. तितलोच त्या कुडीत उजवाड. इतल्यान फाटलेवटेच्यान सकाळच्या पयलींच्यो तांबड्योगुल्ल झळो दिसूंक लागतात. तातुंतल्यान सूर्यदेव ल्हवू ल्हवू वयर सरपाक लागतात. कर्णाक पडिल्लें हें एक सपन. सूर्य चलून कर्णाच्या म्हऱ्यान येता. थांबता. ल्हवूच हात वयर सरता. कर्ण उठटा.)

सूर्य : वत्सा उठ!

कर्ण : कोण? गुरुदेव प्रत्यक्ष ह्या कर्णाच्या म्हालांत? हांव हें कितें पळयतां? आपले दिव्य तेजान हे सृश्टीक दिपकावन उडोवपी तेजरत्न आयज म्हज्या म्हालांत? हांव पळयता ते सपन तर न्हय?

सूर्य : हय! सपनच! जाची नित्यनेमान तू उपासना करता, सकाळच्या पारासावन एकार एक अर्घ्यां दिवन तूं भक्ती भावनेन पूजा करता. जाच्या तेजान लुप्त जावन तुजे मन सामकें एकाग्र जावन तूं सगळें भान विसरून जाचे भक्तिंत लीन आसता तोच हांव सूर्यदेव!
(कर्ण चरण धरपाक मुखार पावल घालपाक वता.)
मुखार येवं नाका कर्ण! (थंयच्यानच हात जोडटा)
कल्याण जांव! म्हज्या आकस्मिक येवपान तू काचाबूल तर जावना

मू?

कर्ण : ना, गुरुदेव. साक्षात म्हजे गुरु म्हज्या सामकार आसतना म्हाका काचाबूल जावपाची गरज ती कसली? देवा हांव सामको भुल्लुसून गेलां खरो. म्हजो म्हजेरूच विश्वास बसना. देवा तुमच्या ह्या तेजान हांव दिपकून तर वच्चो ना न्हय?

सूर्य : कर्णा तुजें सामर्थ्य म्हाका खबर आसा. म्हज्या हिरण्यगर्भांत जितलें तेज आसा तितलेंच तेज तुजे कुडींत रसरसता. या धरतरेर आनीक एकूय असो वीर ना जो म्हजें तेज उक्त्या नेत्रांनी अनिमिश असो पळयत. पूण तें सामर्थ्य एकट्या तुज्यांत आसा.

कर्ण : देवा ही तर सगळी तुमचीच कृपा. तुमच्याच कृपाप्रसादाचें फळ.

सूर्य : ह्याच निष्पाप फळाक कारण नासतना तिस्तरोन निस्तेज करून उडवपाचे खेळ चल्ल्यात. आनी तुका सादूर करपाच्या हेतान हांव आयलां हांगा. न्हय म्हाका येवचेंच पडलें.

कर्ण : गुरुदेव तुमच्या आगमनाचे प्रयोजन म्हाका समजत?

सूर्य : अवश्य! कर्णा, पूण तें आयकून तुजी जगपाची उमेद... इच्छा... तर मरपाची ना न्हय?

कर्ण : केन्हाच ना. देवा कर्ण तुमच्या कृपाप्रसादाच्या बळार केन्नाच कोणाक भिलो ना. हावें केन्नाच खंयच्याय मनश्याक आयजमेरेन नाउमेद करपाचो यत्न करूंक ना. म्हजेकडेन जाता ते भशेन हांवें ताका आदार केला.

सूर्य : पुता तुज्या दातृत्वाबद्दल कसलोच वाद ना.
तुज्या धारिष्ट्याक, तुज्या पराक्रमाक खंयच तोड ना, आनी बरोब्बर हाचोच फायदो जायतेजाण घेवपाक सोदतात. ताची शिटकावणी दिवंक आयज म्हाका येवचें पडलें.

कर्ण : देवा हांव समजूं ना. उपकार करून म्हाका समजावन सांगात.

सूर्य : फाल्यां सकाळीं वज्रधारी देवराज इंद्र तुजे लागीं एका विशिश्ट हेतुन येतलो. एक याचक म्हुणून.

कर्ण : इंद्रदेव! देवराज इंद्र! कर्णाकडें? आनी याचक म्हुणून? अशें इंद्राक म्हजेलागीं कितें मागापाचें आसा? अशी खंयची मोल्यवान वस्त

म्हजें लागीं आसा जाची इंद्रदेवाक आवश्यकता लागली?

सूर्य : आसा! कर्णा आजुनय तू स्वताक वळखुंक ना. कर्णा तुज्या सारको तूंच वीर. जाच्या कुडीचेर कसल्याच अस्त्राचो परिणाम जायना. प्रत्यक्ष श्रीकृष्णाचें सुदर्शन जाच्या आंगाक आफडूंक शकना. मळबांतल्या चंद्राच्या दोनयवटांनी शततारका नक्षत्रां भसेन सोबपी जाची कुंडलां! वत्सा धरतरेर आनीक दुसरो तू सोडून पळोवंक मेळत? पूण....

कर्ण : पूण कितें देवा?

सूर्य : ह्याच दोनय दैदिप्यमान वस्तीचें दान मागपाक फाल्यां इंद्र येवपाचो आसा कर्णा!

कर्ण : पूण इंद्राक म्हजे कवच आनी कुंडलां घेवन किदें करपाचे आसा? ह्यो वस्ती तर दुसऱ्याक वापरूंक मेळच्यो नात?

सूर्य : कर्णा युद्ध दुंदुबी वाजल्या म्हणपाक हरकत ना. झूज अटळ आसा. जोमेरेन कर्ण कौरवां वांगडा आसा तोमेरेन पांडवपक्षाक जैत जोडप शक्य ना आनी जोमेरेन कर्णाच्या आंगार ह्यो दोनय वस्ती आसात तोमेरेन कर्णाक युद्धभूयेर आड उडोवपाक कोणय जरी आसलो तरी ताका तें शक्य ना. हें त्रिवार सत्य आसा. हें सगळ्यांक बेसबरें खबर आसा.

कर्ण : पूण आमच्या झुजाचो इंद्राकडेन कितें संबंद?

सूर्य : तूं जसो म्हजो परमभक्त तसोच अर्जुन इंद्राचो भक्त. तूं जशीं म्हाका वरांचीं वरां न्हंयत उबो रावन अर्घ्यं ओंपता तसोच इंद्राच्या नावान अर्जुन अर्घ्य ओंपता.

कर्ण : समजलों. देवा कळ्ळें म्हाका फुडलें.

सूर्य : मतींत दवर कवच-कुंडलां तुज्या आंगावेल्यान देवयशी जाल्यार तुजो पराजय निश्चित. दानाच्या वेळार तुवें मुजरत मतींत दवरचें.

कर्ण : कर्णान आयजमेरेन गंगेचे उदक पोशांत घेवन याचकाचीं फक्त उतरां आयकल्यांत. तो कोण? किदें मागतलो हाचो विचार ताणें केन्नाच करूंक ना गुरुदेव!

सूर्य : पूण याचकान कपट हेतून मागिल्लें दान दिवपाक जाय असो नेम ना

कर्ण.

**कर्ण** : हावें फकत दान दिलां. याचकान दान किद्याक आनी खंयच्या हेतून मागलां हाचो विचार हावें केन्नांच करूंक ना. याचक म्हूण फाल्यां येवपी इंद्रदेवाचो हेत किदेंय आसूं; पूण ताज्या यांचनेक अव्हेरप यमुना न्हयच्या पवित्र उदकांत उबो राविल्ल्या कर्णाक शक्य जावचें ना.

**सूर्य** : हाचो अर्थ?

**कर्ण** : देवा तुमच्या या भक्ताक क्षमा करात. (थंयच बसता.) हांव तुमची आज्ञा मोडटा. तुमचो मानभंग करपाचें पातक म्हजेकडल्यान घडटा... म्हजो अपराध पोटांत घेयात. प्रत्यक्ष इंद्राक जेन्ना कर्णालागीं याचक म्हूण येवचें पडटा तेन्ना ताणे मागिल्लें दान न्हयकारपाक म्हज्यान जावचें ना.

**सूर्य** : तुजेर हांव केन्नाच रागार जावचो ना. उरफाटें तुज्या उलोवण्यान म्हजें मन सुखावलें. आपल्या लागणूकेक जागपाक तूं मरणाक पसून आपणावपाक तयार जाता हें पळोवन अभिमान दिसता.

ताचो हेतू वायट आसा. इंद्र-देवेंद्र आसून पोटस्त हेतू वायट आसा. झुजाच्या पयलींच कपटान शस्त्रहीन करपाची रीत इंद्र आपणायता. ही कृती सामकी उणाकपणाची आसा अशें तुका दिसना? (कर्ण वगी...)

कर्णा निश्चितच हीं उणाकपणां आसात. तो असले हीनपणाचे वाटेन वता, तूं ताचीच करणी ताचेरूच कित्याक परतीना?

**कर्ण** : म्हणल्यार?

**सूर्य** : तू ताचेकडेन कवच-कुंडलांच्या बदला ताचेकडची सगळ्यांत व्हडली शक्त माग.

**कर्ण** : क्षमा आसची देवा. कर्णान फकत याचकाची जाता तशी इच्छा पूर्ण केल्या. ताज्याबदलाक केन्नाच परतें कांय मागपाची आस्त धरूंक ना. दानाच्या बदलाक परतें दान मागप म्हणल्यार व्यवहार... हाचे परस हांव एकवेळ मरण पत्करीन. हांव इंद्रालागीं याचना करूंक शकचोना.

सूर्य : यदाकदाचित कवच-कुंडलां मागून जातकीर तुका किदेंय माग म्हुणून इंद्र सांगत जाल्यार?

कर्ण : याचकाकडेन हांवें उरफाटी याचना करप!... दान करपी कर्णान दानाची अपेक्षा करप....

सूर्य : खबरच आशिल्लें म्हाका तूं म्हजें एक्कय आयकुचो ना म्हुणून.

कर्ण : (घुटमळटा) बरें आसा! तुमची ही इत्सा हांव मोडूक शकना. सांगात...

सूर्य : कवच आनी कुंडलांच्या बदला तूं इंद्राकडल्यान ताचेकडेन आशिल्ली अमोघ शक्ती माग.

कर्ण : आनी ताणें न्हयकारलें जाल्यार? केन्नाच कोणांलागीं कसलीच याचना न केल्ल्या मनशान पयलेच फावट कितेंतरी मागतना ताका न्हयकार मेळ्ळो जाल्यार हाच्या सारकी दुर्दैवी गजाल दुसरी आसची ना. कवच-कुंडलां मेळटकीर इंद्रदेव तसोच अंतर्धान जालो जाल्यार? ताणें म्हाका कितेंय माग म्हणप हो ताच्या मनाचो धर्म.

सूर्य : इंद्र तुका माग म्हणटलोच अशी म्हजी खात्री आसा. तुजेकडल्यान तुजें सर्वस्व जेन्ना तो व्हरतलो तेन्ना ताचे मनांत खंयतरी तुज्या दातृत्वाची ओलसाण निर्माण जातली. या पृथ्वीतलावयलो मनीस आपले उतर पाळूंक मरणाची लेगीत पर्वा करीना अशें तो पळयतलो तेन्ना ताचें मन खंय तरी तुज्या दातृत्वाखातीर निश्चितच पाझरतलें. ताची परतफेड करपाची इत्सा ताच्या मनांत उत्पन्न जातलीच. जेन्ना तो तुका विचारतलो तेन्ना तू ताचेकडली अमोघ शक्त मागतलो हें उतर म्हाका तुजेकडल्यान जाय. असो घुटमळू नाका. म्हजी ही इत्सा आसा. म्हाका मात असोच रितें मनान परत धाडटा?

कर्ण : बरें गुरुश्रेष्ठा! हांव तुमचें उतर सकयल उडयना. पूण आपूण जावन आनीक किदेंय माग म्हणपाची इत्सेची गळ घालू नाकात. हांव पुराय करपाक असमर्थ आसा.

सूर्य : ना. आनीक कांयच ना.

कर्ण : देवा, एक कितें तरी विचारीन म्हणटां.

ूर्य : अवश्य!

र्ण : हीं म्हजी कवच-कुंडलां आसतना म्हज्या कुडीर कसल्याच शस्त्राचो - अस्त्राचो परिणाम जायना. राधाई म्हाका केन्नाच यमुनेच्या देगेर वचपाक दिना. म्हणटा, वसू तू केन्नाच यमुनेच्या उदकांत देवूं नाका. (सूर्य वगीच) आनीक म्हज्यान त्या उदकाक स्पर्श केलेबगर रावूंक जायना. हाचें गुपीत कितें आसत म्हुणून हांवें कितलेशे जाणांक तरी विचारपाचो प्रयत्न केलो. आनी एक दीस राधामाईं आनी म्हजो बाबा उलयतना हावें आयकलें...
देवा, हांव तांका यमुनेच्या कांटार एके पेटयेंत मेळील्लों!
हांव तांचो सख्खो पूत न्हय. देवा, गुरुश्रेष्ठा तूं एकलोच एक असो की जाका या धरतरेवयल्यो सगळ्यो घडणुको सदांच दिसतात. तुका सगलें खबर आसा. म्हज्या जन्माचें रहस्य म्हाका मात्शें सांगशी? हांव तांचो पूत न्हय जाल्यार कोण म्हजो जन्मदातो आनी कोण म्हजी जन्मदात्री? आनी किद्याक हें रहस्य अशें लिपोवन दवरलां?

सूर्य : वोगी पुता! धीर धर. सांगतां. (आपल्याभितर) तुका हांव वेंगेंत लेगीत घेवंक शकना. (उघड) तुका तुजो जन्मदातो वेगेंत लेगीत घेवंक शकना आनी तुजी अभागी आवय लेगीत मनात साठयल्ले उमाळे कोणालागीं उक्तावंक शकना.

कर्ण : अशें किद्याक? हावें अशें खंयचें आनी, कसलें पाप केल्लें म्हूण ही म्हाका जल्मांक येतनाच ख्यास्त?

सूर्य : पाप? पाप तुज्या हातांतल्यान घडूंक ना. कर्णा तुका आयकुपाची आसा न्हय तुज्या जल्माची काणी? आयक कर्णा... आयक! (कर्ण आयकता.)
ते दिसा कुंतीचो बापूय राजा कुंतीभोजाच्या महाद्वारांत महातेजिश्ट, महानतपस्वी तेच बराबर खुबळ्ळो जाल्यार सगळें भस्म करून उडवपाची तांक आशिल्ल्या दुर्वास मुनिंचें आगमन जालें.
(ल्हवू ल्हवू काळोख जाता. माचयेच्या एकवटेन मोटो यज्ञ चल्ला अशें दिसता. पड्ड्यार दाखोवंक येता. महर्षी दुर्वास.. कुंती...

कुंती असो मोट्या मोट्यान उले मारीत थंय बसिल्लो दिसता. कुंती धांवत येता. भियेवनच ताच्या म्हऱ्यान वता.)

कुंती : कितें जालें मुनिराज?

दुर्वास : कुंती... खंय आशिल्लें?

कुंती : क्षमा करात मुनिराज. चूक जाली म्हजेकडल्यान. मात्शी लकणीं लागली. कळ्ळीच ना. पर्थून अशी चूक जावची ना.

दुर्वास : कुंती आयज म्हजो यज्ञ पुराय जालो. आयज हावें ह्या ब्रह्मांडातल्या पंचमहाभुतांक म्हज्या आधीन केल्यांत. जाय तेन्नां, जाय ते वेळार म्हज्या आज्ञेन ह्यो शक्ती म्हजे मुखार येवन उब्यो रावतल्यो. आयज सावन हांव ह्या शक्तींचो अधिपती. घोड्यांक रथाक आवळून बांदतात तशो आयज हावें ह्यो शक्ती म्हज्या पासानी दावणीक बांदल्यात.

कुंती : मुनीराज तुमी भौ व्हड आसात. म्हजेकडल्यान तुमची ह्या वेळार थोडीभोव सेवा जाली, तेखातीर हांव म्हजे म्हाका चड धन्य समजतां. हें म्हजें भाग्य मुनिराज!
मुनिवर्य! ह्या कार्यांत म्हजेकडल्यान कितेंय नकळटां उणीव बी उरली जाल्यार तुमी ती व्हड मनान पोटांत घेवची अशी तुमच्या चरणांलागीं म्हजी नमळायेची प्रार्थना.

दुर्वास : ना कुंती. हे धरतरेवेलो सगळ्यांत चड कोपिश्ट तपस्वी म्हूण म्हाका सगळे वळखतात. इल्लेशा चुकीक पसून व्हड ख्यास्त हो म्हजो न्याय. म्हजो क्रोध पळोवन सादो मनीस सोडूच, व्हडले व्हडले तपस्वी लेगीत म्हज्या वाऱ्याक झळकनात. पूण तुवें इल्ली कुस्कुटायेदी पसून कसर म्हज्या सेवेंत दवरूं ना. कुंती ह्या इल्ल्याश्या चुकी खातीर हांव तुजेर तापतलों? क्रोधीत जातलों? फांटल्यो कितल्यो तरी राती तुवें दोळोलेगीत लावंक ना. म्हाका खबर ना?

कुंती : गुरुदेव तुमचो यज्ञ पूर्णत्वाक व्हरपाक म्हजी किदेंय करपाची तयारी आशिल्ली.

दुर्वास : वा. पृथे व्वा! धूव आसची तर ती तुज्या सारकी. राजाकुंतीभोज

खरोच भाग्यवंत.
अशी यो कुंती! बस म्हज्या मुखार.
मिटून घे दोळे. (कसले तरी अस्पश्ट अशे मंत्र पुटपुट्टा.)
हें आचमनांक उदक घे.
कुंती तुवें केल्ले सेवेखातीर हांव प्रसन्न जालां. आयज हांव तुका सगळ्यांत व्हडलें, जे आयजमेरेन कोणाकच मेळूना – कोणेंच कोणाक दिवंक ना अशें वरदान दितां.
श्रेश्ठतम् विरांची जननी जातली तू (आनी कानांत मंत्र सांगता.)
कुंती ह्या मंत्राचे स्मरण जेन्ना तू करतली तेन्ना ब्रह्मांडातल्या ज्या शक्तीचें स्मरण करून आवाहन करता ती शक्त मनिसरुपांत तुज्या म्हऱ्यात आसतली. आपले सारखो कर्तृत्ववान पूत तुज्या पदरांत घालून वतली. तू विरांची जननी जातली. चल्लो हांव... (एकदम उठटा आनी वता. काळोख जावन उजवाड जाता. कुंतीच्या मुखामळार एक वेगळें तेज दिश्टी पडटा.)

कुंती : (आपले भितर) खऱ्यानीच दुर्वास रुशीक पंचमहाभुतां अधीन आसत? हांव श्रेष्ठ अशा विरांची जननी जातली?
(थोडोवेळ वगीच.)
आहाहा... कितलो सुंदर मनभुलवणों वसंत रसरसला!
(कोगळाचो आवाज) कितलें बरें जुवानपण म्हज्या आंगाखाद्यांर मुसमुसलां.
दुर्वासमुनिंचो वर कितलो खरो कितलो लटको कांयच कळना. काय वोगीच म्हाका फटयलें मंत्र कानांत सांगून? छे... अशें केन्नांच जावचें ना... महर्षी दुर्वासांबद्दल हांव लटकें उलयलें... च... च... चु.... (आपल्याच पोल्यार मारता.)
देवा परमेश्वरा म्हाका क्षमा कर. (आपले भितर मुरगट्टा)
आहाहा.... हांव विरांची जननी जातली... जननी! जन्मदाती... तिवूय श्रेश्ठ विरांची!.... हांव आवय जातली. कोणाची? कोण आसत काय म्हजो अधिपती?
अहाहा... आरेच्या... हें म्हाका कितें जाता? कितें चल्लां हें म्हजे

भितर? खिणभर हांव म्हाकाच विसरलें काय कितें? हें म्हजेभित
कितें उप्रासलां?

दुर्वास रूशीन म्हणलां ते प्रमाण सैमांतली खंयचीच शक्त
हांव स्मरण करतां, आवाहन करतकीर मनिसरुपांत म्हज्या मुख
येतली? या सैमातली सगळ्यांत व्हड शक्त म्हाज्या सांगाता
आसतली. (मुरगट्टा)

हांव विरांची जननी जातली. म्हजे पूत वीर जातले... हांव वीरमात
जातली... म्हाका अलौकीक अशें मातृत्व लाभतलें.

आवयपण! बायलमनशेचो सगळ्यांत श्रेश्ठ अलंकार! सैमा
सगळ्यांत मंगल अशें प्रकटीकरण! आनी तें म्हाका मेळट
सैमांतल्या अलौकिक शक्तिकडसून.

(मार्चेर काळोख पातळूंक लागता. मळबांत आकाशवाणीचे स्व
घुमपाक लागतात. कुंती दिसना. पयलें दृश्य दिसपाक लागता
माचयेर कर्ण आनी सूर्य आसात. दिग्मंडळांत कसले तरी भयानव
विचित्र आवाज. मृदंग, गडगड, जगलो चकचकतात अशे संमिश्र
आवाज. उपरांत आकाशवाणी जाता. पयल्यो दोन वळी संस्कृत
भाशेंत आसूं येतात.)

**आकाशवाणी:** हे भास्करा... ही सृश्ट तुज्याच तेजान आयजमेरेन तिगल्या.
नित्यनेमान सगळ्यांक आपल्या दिव्य उर्जेन तुवें जगयल्या. केन्नांच
तुजो नेम चुकूंक ना. तुजे अश्व केन्नाच आडखळ्ळे नात की
खुबळ्ळे नात. तुजी गती तुवें अनिमिश युगां सासणाची राखल्या.
पूण आयज तुका तुज्या कर्तृत्वाचो मात्सोकाय जायना विसर पडला
काय कितें असो दुबाव येवपाक लागला.

सृश्टीच्या पोशणकर्त्या, तुजो नित्यनेम ढळप म्हळ्यार सैमाचो
विलो जावंक वगत लागचो ना. कोटी कोटी जिवांचो प्रस्न आसा
लक्षांत दवर. हें लक्ष लक्ष योजनांचे अंतर, मतींत घे. आनी उडय
हे मोहाच्या बंधनाचे पास तोडून. अश्वांचे वेग घे हातांत आनी
आमूड जिवनगतीचो हो विजयरथ!

मोहाच्या बंधनाक तूंवय घुस्पलो असो शाप तुजे माथ्यार एकदां

लागलो, आनीक लावन घेनाका. घे वेग हातांत. एक खिणय हांगा वगडांव नाका. ही म्हजी आज्ञा समज.

(आकाशवाणी सोंपता. माचयेर परत सूर्य आनी कर्ण दिश्टी पडटात.)

कर्ण : गुरुश्रेश्ठा वोगी कित्याक? सांगात न्हय!

सूर्य : माफ कर पुता. हाचेमुखार आनीक चड कितें उलोवचें अशें म्हाका योग्य दिसना. तुजी काणी अर्दीच उरता... म्हज्यान आनीक एक खीण लेगीत हांगा वगडांव नजो. माफ कर पुता. तुज्या भेटेक असो परत येवपाचीय म्हाका आज्ञा ना.

(सूर्य अंतर्धान जाता. माचेयर कर्ण एकलोच उरता.)

कर्ण : गुरुश्रेष्ठा हे अशें कितें केलें तुमी? म्हज्या जल्माची काणी अर्दीच उडोवन कित्याक गेले? जर अर्दीच दवरपाची आशिल्ली जाल्यार तिचो आरंभ तरी कित्याक केलो? अंगराज कर्णाच्या जल्माचें सत्य कितें आनी असत्य कितें हाचो थावच म्हाका लागना कसो जाला. राजमाता कुंतिचो म्हज्या जल्माच्या काणयेकडेन किदें संबंद? ना... तिचो आनी म्हजो संबंद आसुंकच शकना.

सूर्यदेव अशे मदींच कित्याक गेले? खंयचे शक्तिन तांका आपले आज्ञेन मदींच थामयले?... तांका कोण आज्ञा करूंक शकता? तांचे परस व्हड कोणय आसत? घे... सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो फक्त प्रस्नच.

कर्णा तुजी जीण होच एक जितो जागतो, तुजे कुडीक, तुज्या मस्तकाक जळजळान खाक करून, जिणेच्यो तिस्त्यान... तिस्त्यो करपी प्रस्न आसा.

ह्या प्रस्नाक जाप कोण दियत? राजमाता कुंती?

छे... राजमातेक असले प्रस्न विचारप? एके मातेसमान अस्तुरेकडेन तिच्या शीलभंजनाच्यो गजाली करप? ना... कर्णा तुका हे सोबना. ना... हें समा न्हय....

गुरुश्रेश्ठा... भास्करा! समजूंक लागत सावन तुका हावें अनियमित अर्घ्यां ओंपल्यांत. मात्सो परत यो. एकच सांग, म्हजी जल्मदाती

कोण? कोणूय आसूं! कशीय आसूं... तिणें म्हाका जल्माप
फ्यस करू... फकत म्हाका म्हजें जल्माचें रहस्य उलगडप
नाका. म्हाका म्हजी आवय जाय. देवा... फकत म्हजी आव
एकदांच म्हाका सांगात. म्हजी आवय कोण ती?

(हे आवाजान भितरल्यान स्वामी... स्वामी म्हणत वृषाली कर्ण
बायल येता.)

वृषाली : स्वामी!... किदें जालें स्वामी? तुमी सपनेले तर ना मू? बस
पळोवया. किदें जालें? इतल्या मोट्यान कोणाक सादयतालें
कसलें रहस्य? हांव न्हिदेंतच आशिल्लें. मातशें हयन्हयशें आयक
हावें.

कर्ण : किदें आयकलें वृषू?

वृषाली : फकत... रहस्य... गुरुश्रेष्ठा... सांगात. इतलेंच आयकलें. पूण तु
इतले घामाघूम कित्याक? कसलें सपन पडलें तुमकां? भंय-भिर
तर तुमकां आपडूंकय भियेतली. मागीर इतलें आर्जव, अगतिक
किद्याक आयली तुमच्या धीरगंभीर कंठांतल्यान? आनीक इतल
आर्तता कशी?

कर्ण : कांयच याद जायना. कोण? (गोंदळटा) कित्याखातीर हावें कि
म्हणलें? म्हाका कसल्योच स्मृती येनात.

वृषाली : स्वामी! म्हजेकडेन पळयात. तुमची वृषू आवडटा न्हय तुमकां?

कर्ण : ह्या प्रस्नाचें प्रयोजन?

वृषाली : प्रयोजन इतलेंच म्हजे स्वामी; म्हजेकडेन पयलेच फावट किदेंत
लिपयतात काय कितें अशी साशंकताय म्हजे तकलेंत घर करूं
लागली. असो म्हजो म्हाकाच दुबाव किद्याक येता?

कर्ण : ना... ना वृषू तशें कांयच ना.

वृषाली : ना कशें? एक मनिस आपल्याच मनशाकडेन लटकें उलोवं
लागलो हें आयज समजलें.

कर्ण : कोण लटकें उलयता वृषाली? तुजो रोख म्हजेकडेन
(आपल्याभितर) हिणें सगळें आयकलें तर ना मू? पूण सप
दुसऱ्याक सगलें कशें कळटलें? हांव जें उलयलों तेंच एखा

आयकलें जाल्यार?

वृषाली : अशे वोगी कित्याक? सांगात न्हय कसलें सपन पडलें तें? आनी सपनांतल्यो गजाली सांगपाक अशे कित्याक फाटीं-फुडें सरता? म्हाका सांगपाचे ना अशें कितें गुपीत पळयले सपनांत?

कर्ण : ना अशें कांय ना! पूण कांय गजालीच इतल्यो कडू आसतात की, सत्य आयकुपाचीय तांक दुसऱ्यांत आसप हाचेबद्दल मन साशंक जाता. (विचार करून) वृषू हांव जर सूतपुत्र नाशिल्लों तर किदें जातलें आशिल्लें?

वृषाली : म्हाका तुमी स्वामी म्हूण मेळचेच नासले. ह्या अश्या अमोल कुंडलांचो अधिपती म्हजो घोव म्हूणून म्हाका मेळचोच नासलो. तुमी सूतपुत्र जाले तेंच तर म्हजें भाग्य!

कर्ण : पूण वृषू हांव सूतपुत्र आसा. बाबा अधिरथ-राधामाईंचोच पूत आसा हें सगळेच जाणात. म्हाकाय तें खबर आसा. आपल्या कुळाचो आपल्याक अवमान आसचो न्हय. पूण सूतपुत अशें संबोधतना म्हज्या मनांत सूत उतराचो इतलो तिरस्कार... दुस्वास कित्याक?

वृषाली : हां... आता होलमलें. समजलें आयचें तुमचें सपन! तुमकां कोणीतरी सूतपूत म्हणलें आसतलें. कोणतरी किद्याक? मत्स्यभेदाचो तो खीण तुमकां परत एकदां दृश्य रुपान सपनांत आयलो आसतलो. अंगराज तू सूतपूत. एका यकश्चित सारथ्याचो पूत म्हज्या स्वयंवराक येवंकच शकना. हांव एका सूतपुताक माळ घालपाक शकना! ही द्रौपदीची कानफोडून उडोवपी, तिरस्कारान भरिल्ली किळांच तुमच्या कानार परत एकदां आदळ्ळी आसतली. तेदेवेळार स्वयंवराक हाजिर आशिल्ल्या सगळ्या राजकुंवरांचें उपेक्षेन खळखळिल्लें हास्य तुमचे मुखार आयज प्रतिबिंबीत जालें आसतलें.

पळयात.:. इतलें मनांक लावन घेव नाकात. तुमी... हांव सूत कुळांत जरी जल्मलीं आसली तरी आमी मनिसूच आसात. तुमकां राधामाईसारखी आवय लाभली. बाबांच्या रुपान मायेचें छत्र मेळ्ळें.

शोणासारखो सावळी जावन वावुरपी भाव फकत ह्याच सूतकुळां
मेळूंक शकलो. इतलें आसून लेगीत तुमकां सूतकुळाचो इतल
दुस्वास कित्याक?

अशें मन ल्हान करू नाकात. मनांतल्यान काढून उडयात ती गजाल

कर्ण : वृषू खरें सांगू? आयच्या सपनांचो मातलेगीत संबंध ते गजालीकडे
ना. तुका खबर ना. आयचें म्हजें सपन सामकें वेगळें. आयज
म्हज्या सपनांत म्हजो...

वृषाली : स्वामी! (अचकीत पूत सुदामनची याद जावन म्हऱ्यान येत.) म्हजो
सुदामन... (रडटा) म्हजो पूत आयलो सपनांत?

कर्ण : ना वृषाली. (वृषाली विचीत्र भावनेत पळयता.)
सुदामन सपनांत येवंक ना. हाचो अर्थ असो न्हय की सुदामन म्हजे
स्मृतिपटलाच्या पयस गेलो. ना...

वृषाली : मागीर आयचे सपन तरी कसलें?

कर्ण : वृषू आयज म्हज्या सपनांत प्रत्यक्ष गुरुदेव सूर्य प्रगट जाले.

वृषाली : प्रत्यक्ष सूर्यदेव... म्हळ्यार आयचो दीस खऱ्यानींच भाग्याचो
म्हणपाचो... मागीर?

कर्ण : भविश्याच्या पोटांत कितें लिपलां म्हाका खबर ना. पूण बरो काय
तितलोच वायट हेंवय थारावप म्हज्या हातांत उरूंक ना. मात एक
खरें हांव तांच्या आज्ञेक पाळो दिवंक शकलो ना.

वृषाली : म्हणजे असली कसली आज्ञा तुमी तांची अवमनली? तुमी तर तांचे
सामके कृपाभिलाक्षित अशे शिश्य!

कर्ण : म्हजेकडल्यान तांका एक उतर जाय आशिल्लें, पूण हांव तें तांका
दिवंक शकलो ना. वृषाली कर्ण आपलें पौरुश सोडून कितेंय दियत.
अमुकच दिवंक नाका अमुकच दी अशें ताका कोणच सांगूक
शकना. प्रत्यक्ष परमेश्वर जरी आयलो जाल्यार हांव तशें सांगपाक
अनमनचो ना.

वृषाली : स्वामी तुमच्या मनाचो थाव म्हाका लागना. हांव सादें. म्हाका
विस्कटावन सांगात पळोवया. म्हजें मन सामकें थाऱ्यार उरना.
सांगात कितें जालें?

कर्ण : सूर्यदेव फाल्यां जावपी विचित्र दानाची भविश्यवाणी घेवन आयिल्ले. शिटकावपा खातीर. वृषू मतींत दवर, कर्णाचें कवच आनी कुंडलां म्हणल्यार ताचें सर्वस्व न्हय. कवच आसल्यार कर्णाक युद्धभुंयेर पराजित करप शक्य ना अशेंच जर हांव-हांव म्हणणाऱ्या यौध्यांक दिसता आसत तर कर्णाकडेन कवच कुंडलां नासतनाय ही धर्तरी नीःक्षत्रीय करपाची तांक आसा हें दाखोवन दिवचेंच पडटलें. (हांसता) हेंच दान आपल्या भक्ताखातीर व्हरपाक फाल्यां इंद्रदेव येता. तें ताका दिवचें न्हय म्हुणून सूर्यदेव म्हाका सांगपाक आयिल्ले.

वृषाली : सूर्यदेवाचें आगमन हें तुमकां शिटकावणी दिवपाखातीर आशिल्लें? खरेंच बरें प्रयोजन घेवन ते आयिल्ले.

कर्ण : पूण हांवें तांकां अव्हेरले.

वृषाली : स्वामी कवच कुंडलांचे दान दिवपाचें नक्की करतना तुमी म्हजो थोडोतरी विचार मनांत हाडचो आशिल्लो.

कर्ण : ना वृषाली, याचक याचना करतना दानशूर कर्ण कोणाचोच आसना. माफ कर म्हाका. कर्णाक फक्त मुखावेल्या याचकाची याचना दिसता. कित्याखातीर तो दान मागता हाचो तो विचार केन्नाच करीना. वृषू, प्रिये! म्हजें उतर हें म्हज्या विजय धणूतल्यान सुटिल्ल्या बाणासारकें आसता. तेंवूय बाणासारखें परत येना. आनी दिल्लें उतर फाटीं घेतलें जाल्यार तो कर्णच आसचो ना. वृषाली हो प्रहर सोंपलो. उदेंतेची तांबसाण मळबांत दिसचे आदी म्हाका न्हंयचेर अर्घ्य ओपपाक पावूंक जाय.

वृषाली : स्वामी... तुमी सपनांत दिल्ल्या उतराक इतले कित्याक बांदून रावपाक सोदतात?

कर्ण : म्हजो निर्णय थारलो. आतां प्रस्नाच्या सांकळ्यानीं म्हाका बांदून दवरू नाका. सपन सत्यांत देवतकीच सपनाचो खरेलो अर्थ तुका कळटलो. म्हाका कळाव जाता. वतां हांव.

(कर्ण वचपाक वता...)

वृषाली : स्वारीचो विचार तर सामको थल्लो. देवा आता ते कोणाचें तरी आयकत काय? कवच-कुंडलां नाशिल्लो म्हजो घोव?

देवा; परमेश्वरा! हें दान इंद्रान मागचें तरी कित्याक? दान दिवप
कर्ण हो अहंकारान मातला म्हुणून ताचो गर्व देवोवंक तुमी ताचं
कवच-कुंडला तर मागिनात मू? कवच कुंडलां ताच्या आंगा
नासप म्हल्यार कुमस्तरां शिवाय बैल आनी, आयाळ नाशिल्लं
शिंव. दान दिता म्हुणून कितेंय मागप?
मागपाक कितेंय मर्यादा? असलीं जन्मजात आभुशणां आंगा
आसतना तांका पराजित करपाक शक्य ना म्हुणून तुमी तं
आडमार्गान सुतलावपी निश्ठूर देवांनो, हांव कर्णाची बायल वृषाली
तुमचो धिक्कार करतां.
जगामुखार भविश्यांत तू कदाचित जिकतय; पूण हे पतिव्रते मुखार
इंद्रा तू एक कपटी, पराजित अशेंच हांव म्हणटलीं.
निमाणें मेरेन म्हजो दुखेस्त आत्मो असोच तुका हिणसयत रावतलो.
(वोगी रावता. थोड्या वेळान.) शमे... सखी शमी... हांगा यो
मात्शें... (ताळी मारता.) त्या द्वारपालाक आपय मात्सो.

**द्वारपाल** : हुकूम आसचो राणीसरकार.

**वृषाली** : आत्तां वच आनी गुरुपुत्र अश्वत्थामा आसा थंयच्यान हावें मात्सो बेगीन आपयला म्हुणून सांग. पळय! ही खबर आनीक कोणाकूच कळपाक जायना. चल बेगीन.

**द्वारपाल** : राणीसरकार तांका आपोवपाची गरज ना. गुरुपुत्र अश्वत्थामा तर केन्नाच हाजीर जाल्यात. ताणींच म्हाका तुमचेकडेन धाडिल्लो. वाटेत तुमचो रकाँद मेळ्ळो.

**वृषाली** : तशें जाल्यार आनीक वगत काडूं नाका. चल बेगीन धाड ताका. (द्वारपाल वता... तसो कांय खिणांनी अश्वत्थामा येता.)

**अश्वत्थामा** : (नमस्कार करीत) नमस्कार वृषाली वैनी.

**वृषाली** : खरें म्हळ्यार हावेंच तुमकां आपोवणें धाडिल्लें. कारणच तशें आशिल्लें.

**अश्वत्थामा** : खबर आसा वैनी. अंगराज म्हाका वाटेकच सौधाच्या भायलेवाटेन देवतनाच मेळ्ळे.

**वृषाली** : पूण, गुरुपुत्र तुमी इतले सकाळच्या प्रहरार अंगराजांक कशे मेळपाक

आयले? वायट धरूं नाकात, तुमकां तर सदांच अंगराजाच्या महालाचीं दारां उक्तीं. पूण केन्नांच इतले सकाळीं येवप जालेना. अंनी आयज खास कारणां शिवाय आसुंकच शकना, म्हुणून विचारलें. राग मनांत धरूं नाकात.

**अश्वत्थामा** : वैनी आयज एक भयंकर सपन हांवें पळयलें. इतलें भयानक कीं, साक्षात काळांचो काळ लेगीत भियेतलो.

**वृषाली** : कितें? (आपल्याच विचारात...) सपन?

**अश्वत्थामा** : कसली तरी भयंकर चूक म्हजेकडल्यान घडटा आनी ताजी ख्यास्त. (आपले मदींच उलयता.)

कितें उलयता हांव, म्हाका जल्मापसून कपलाक मणी आसा ही गजाल म्हजी आई–बाबा हांच्या बगर कोणाकच खबर ना. अंगराज कर्णाकूय ना. हें कोणाकच कळपाक जायना. छे... वृषालीक सांगप ना.

**वृषाली** : (आपल्या भितर उलयता) हो आपल्या सपनाच्या दुख्खांत आनी हांव स्वारींच्या विनाशी सपनाच्या हुमकळ्यांत? (उक्तेपणान) गुरुपुत्रा वोगी कित्याक? असलें कसलें भयांकृत सपन?

**अश्वत्थामा** : कोणतरी दोळे दिपकावन उडोवपी येता. म्हणटा, ''अश्वत्थामा हे चुकीक लागून तुका ख्यास्त दितां.'' ताची तेजान भारिल्ली भारदस्त सांवळी, कूड, आरक्त नेत्र, नाकपुड्यो फुलयत म्हाका विचारता ''नराधमा अश्वत्थामा, असलो प्रयोग तुजेकडल्यान घडलो तरी कसो?

आपल्याक मेळिल्ल्या दैवी प्रज्ञेचो असो आघात करपी, लक्ष लक्ष जिवांचो गर्भाशयांतूच नाश करपी नरवैऱ्या! तुवें तांका मरण दिलें म्हुणून तू जिकलो अशें तुका दिसलें?

कितें समजलो तूं? तुजें मरणच हांव सासणाचें काडून घेतां. ही धर्तरी पिळग्यान पिळग्यो आपल्या उदरांतल्यांन ॲगणित जिवांक जल्म दियत, पोसतली. परत जिणेंचो सुखदुखाचो खेळ खेळयत एकदिस मर्णाच्या रुपान अचकित, अचळय फूंक मारून त्या जिवाक एका आनंदमय अशा चिरन्हिदेंत व्हरतली.

पूण तूं मात असोच कसली तरी घृणामय घाण सांगाताक घेवन भीक मागत दारानदार भोंवत उरतलो. साक्षात सृष्टीचो निर्मातो ब्रह्मदेवलेगीत तुका ह्या शापांतल्यान उशाप दिवंक शकचोना."

वृषाली : पूण अमरत्व हें वरदान न्हय गुरुपुत्रा? तुमी ताका शिराप कित्याक म्हणटात?

अश्वत्थामा : वैनी दिसा फाटल्यान रात आसा, म्हुणून दिसाक म्हत्व आसा. तशेंच दुखाची झालर आसा म्हुणून जिवाक सुखाची रुच कळटा. तशेंच धतरेचेर मरण आसा म्हुणूनच हे जिणेंक मोल आसा. एक वेगळें आकर्शण आसा, वैनी मरण हें मनशाचो दुस्मान न्हय तर सगळ्यांत व्हडलो एकनिष्ठ असो इश्ट!

वृषाली : कितें सांगता गुरुपुत्रा? मरण आनी इश्ट?

अश्वत्थामा : हय. जर हांगा मरणूच कोणांक येवंक नाशिल्लें; सगळे जीव जिवेच उरिल्ले तर कूड जर्जर, जराग्रस्त जायत एक दीस कुसतली आसली. हांगा हजारांनी वर्सांपयलीं जल्मांक आयिल्ली मनिसजात, तांच्यो कुडी किड्यांनी खायत कुसत उतरल्यो आसत्यो. तेन्ना म्हाका सांग वैनी, जो नवो जीव हांगा जल्मांक आयला ताका ही अवस्था पळोवन जिणेबद्दल आकर्शण दिसत? आल्हाद, उत्साह आसत ताका जिणेंबद्दल? मरण आसा म्हुणूनच जिणेंक आकर्शण आसा.

वृषाली : गुरुपुत्र कितले उंचल्या पांवड्याचे विचार तुमचे? पूण म्हजे सारखे सूतकुळांत जल्मल्ले कन्येक हो जिवन-मरणाच्या चक्राचो विचार तरी कसो येतलो? हांव तुमचीच वाट पळयतालें.

अश्वत्थामा : खबर आसा. दोन जिवेश्ट इश्टांक पडिल्लीं सपना हीं समकालीन आसात. दोनय सपनां भिन्न आसत पूण तांचो संबंद थेट त्या फुडें येवपी विनाशकाली युद्धाकडेन निश्चत आसा हें त्रिवार सत्य! अंगराज सौधाकडल्यान देंवतनाच म्हाका मेळ्ळो.

वृषाली : म्हळ्यार स्वारीन तुमकां सगळें सगळें सांगलें तर?

अश्वत्थामा : वैनी अंगराजान दिल्लें उतर हें तांच्या त्रैलोक्य जिखतल्या विजय धोणुतल्यांन सुटिल्ल्या तिरासारखेंच आसा. तूं कांयच भिवूं नाका. शोणाकय हांवें तेंच सांगलां. न्युनगंडाक तुज्या मनांक मातलेगीत

थारो दिवं नाकात. तुज्या घोवाक जिखपाक ह्या, भूंयेवयले वीरच न्हय तर देवलोक, गंधर्वलोक आनी असूरलोकय असमर्थ आसात. हाचो तुका अभिमान दिसना?

वृषाली : पूण कवच कुंडलां दान दिवन उडयल्या उपरांत?

अश्वत्थामा : अंगराज जें दान दितलो त्या दानांतच ताचें लौकीक जैत लिपिल्लें आसा. तू निश्चिंत राव. अंगराजाक आपलें कर्तव्य पालन करूंदी. येता हांव.

नाजाल्यार म्हाका कळाव जातलो म्हजे मातेचे सेवेक हाजीर रावपाक. हो प्रहर सोंपत आयलो. (अश्वत्थामो वता. वृषाली एकलीच उरता.)

वृषाली : गुरुपुत्राक कितेंय सांगचे म्हळ्यार हें अशें आयकूचें लागता. परमेश्वरा म्हाका कांयच कळना. कांयच होलमना. मर्दीच कितेंतरी म्हणलें अश्वत्थाम्यान. दोगांय जिवेश्ट इश्टांक पडिल्लीं सपना एकाच वेळार कशीं पडलीं आसत? हाचो युद्धाकडेन थेट संबंद म्हणलें ताणें. पूण स्वारींचो संबंध आसूयेत! न्हय आसाच. पूण... गुरुपुत्र... सावळी कूड, रक्ताळलेले तांबडेगूंज दोळे... ताका भयांकृत... शिराप दिवपाक ताठरलेले... हें सावळें शरीर? घडये यादवराज श्रीकृष्ण? कारण चेदिराज शिशुपालवधाच्या वेळार अशेच ताचें मुळावे कमळासारखे शोभिवंत लोचन भयंकर जावन अशेच रक्तान भरिल्ले. तोच आसत? सपनांत? श्रीकृष्ण खरो कोण आसत?

(काळोख)

## (प्रवेश दुसरो)

(कर्ण सद्दां जे दानवेदीवयल्यान दान दिता ती जागा. म्हणल्यार माचयेच्या सामक्या फाटल्यावटेच्यान एक उंचवटो आसा. कर्ण उबो राविल्लो जागो स्पॉट उजवाडात दाखव येता. भितरल्यान मंजूळ असे सूर आयकूंक येतात.

कर्णाचें मुखामळ उत्साहीत आसा. दोळे मात खंयतरी, कित्याचोतरी थाव घेवपाचो यत्न करतात. हात जोडटा. ओटांतल्यान अस्पश्ट असो मंत्र पुटपुट्टा. संगीताचे सूर बारीक बारीक जायत ना जातात. कर्णाच्या दोनय वटांनी भांगराच्या मोहरांनी, जरीच्या कपड्यांनी भरिल्लीं अशी ताटां आसात. कर्ण हात जोडिल्लेकडेन आसतनाच याचक येता.)

**याचक** : जयतु! अंगराज कर्ण.

**कर्ण** : याचका हो कर्ण तुजी कितें सेवा करपाक शकता? सांग.

**याचक** : अंगराज! हांवे कोणाचकडेन भिकेखातीर हात पसरचो न्हय अशीच म्हज्या चल्याची संघसेनाची इत्सा आसलेली. म्हजे खातीर ताणें सगळें केलें. पूण पयर कसल्यातरी भयानक केन्नाच बरी ना जावपी अश्या व्याधीन ताची जिवन यात्रा सोपली. घराचो आदार तुटलो. जिणेचो अंत करपी ते व्याधीन आमचें आशिल्लें नाशिल्लें सगळें

व्हेलें... ताचे बराबर ताची बायल-भुरगींय गेलीं. (रडटा) म्हाका एकल्याकूच कपल फुटक्याक हांगा दवरला. म्हज्यालागीं आता कांयच उरूक ना.

कर्ण : आरेरे.. बाबा... काळान तुजें सगळें व्हेलें. दैव तुजेकडेन जीवघेणो खेळ खेळ्ळें. तू कांय भियों नाका. हो कर्ण तुजो गेल्लो पूत समज. तुज्या सांबाळाची जबाबदारी ह्या कर्णाची.

याचक : आयुश्यमान जा रे. धन्य तो आवयबापूय जाच्या कुसव्यांक तुज्या सारखें रत्न जल्मलें.

कर्ण : (सेवकाक फर्मायता) प्रियवर्धना हें वस्त्र आनी हें ताट ताका दी. घेयात, हाचो स्विकार करात. (मोहरो, वस्त्र ताका दिता.)

याचक : उपकार जाले रे पूता!

कर्ण : रावात.

याचक : (ताका पळयता.)

कर्ण : तुमकां आतां कोणच ना म्हणलें न्हय तुमी?

याचक : हय. आंनीक कोणूच ना पूता.

कर्ण : तुमची इत्सा आसत जाल्यार तुमी आमच्या घरा येवन रावात. थंय तुमच्या इतल्याच वयाचे म्हजे आईबाबा आसात.
तुमी म्हजेकडेन उलयतना म्हाका पुता म्हणलां. अंगराज कर्ण तुमकां वचन दिता, 'जशी आयजमेरेन म्हज्या आवयबापायची हांवे सेवा केली तशीच तुमची करतलों.'

याचक : नाका पुता मुखार उलोवं नाका... तुमचें नाव आयकल्लेंय पूण इतल्या व्हडा मनाचो आसत अशें चिंतूक नाशिल्लें. (आपलें मदीं) देवा परमेश्वरा म्हजें उरील्लें आयुष्य ह्या म्हज्या राजाक दी. (उपकार आठयत दिल्लें घेवन वता. इतल्यान ब्राह्मणभेसांतलो इंद्र येता.)

इंद्र : जयतु अंगराज! (कर्ण ताका वळखून मुमुरख्यांनी हांसता.) असो अचकित अजापलो कित्याक अंगराज? आनी हांसपा फाटलो अर्थ? नमस्कार!

कर्ण : कर्णाचो नमस्कार स्विकार करात देवा. भेस बदलून कित्याक आयले? प्रत्यक्ष तुमकां त्या दिव्य स्वरुपांत पळोवंक मेळिल्लें

जाल्यार ते म्हज्या सारख्या यकःक्षीत मनशाचें भाग्य समजूपाक जातलें आशिल्लें.

इंद्र : म्हणल्यार तू म्हाका वळखलो? (अजाप)

कर्ण : हय वळखलो! इतलीं वर्सां अविरत अशें दान हांव करतां. पूण याचक कोण आसत आनी ताची मागणी कितें आसत हाचो हांवें केन्नांच विचार करूंक ना. मागलें तें दिले. पूण... आयचो याचक आनी ताजी मागणी हाची म्हाका भौ उत्सुकताय आशिल्ली.

इंद्र : म्हणल्यार म्हजी आनी म्हजे मागणेची आदिं कल्पना आशिल्ली?
(कर्ण मानेनच हयकार दिता.)

इंद्र : तुज्या मनांत म्हजेबद्दल विशाद?

कर्ण : ना...

इंद्र : हांव मागतलों ते मागणेक लागून तिरस्काराची भावना कदाचित मनांत उप्रासूं येता.कारण हांव तुजें सर्वस्व मागतां.

कर्ण : देवा! कर्णाचें पौरुष्य हेंच ताचें सर्वस्व! आनी ताची तर याचना तुमी करुं ना. तुमकां हें दान दितना म्हज्या मनाक कशेशेंच जाता.

इंद्र : मनांत कितेंय किलमीश आसत जाल्यार दिंव नाका. चल्लो हांव. खूब्ब कीर्त आयकल्ली. पूण म्हाका निराश जावन वच्चें पडत असो दुबाव येता.

कर्ण : तशें न्हय. दान दिवपाक कसलीच आटकळ ना. पूण हें कवच अभेध्य आसा. ताचेर खंयच्याच अस्त्राचो-शस्त्राचो परिणाम जायना. हें आंगावेल्यान काडून कशें तुमचे सुवादिन करुं? ह्याच विचारांत हांव घुस्पलां.

इंद्र : ती आडखळ हांव पयस करतां. घे... हें.. खड्ग... फकत तेकय तुज्या हाताच्या तेमकाक. आपशींच कवच देंवतलें. तेच बराबर तुजे कुडीक कसलेच तरेचें विद्रूपपण उरचें ना हाची काळजी हांव घेतां.

(कर्ण तलवारीन कवच-कुंडलां काडून दिता. दान मेळ्ळेबराबर इंद्र वता. कर्ण दानवेदीवेल्यान सकयल देंवता. कुंडलां आसनात. वृषाली शोण दुख्खान ताची वाट पळयत रावल्यांत. कर्ण

आयल्याबराबर.)

वृषाली : स्वामी कितें केलें हे तुमी? (कानांत कुंडलां चाचपिता.)

शोण : दादा... वसुदादा तुवें अशें करपाक नाका आशिल्लें.

कर्ण : पिसो खंयचो! आरे हांव इतलीं वर्सां दान करीत आसा. म्हज्या सत्त्व परिक्षेच्या वेळार हांवें फाट दाखोंवची अशें दिसता तुका?

शोण : कोणेंय कितेंय मागप आनी तुवें कितेंय दान करप? कवच आनी कुंडलां हीं तर तुज्या दैदिप्यमान देहाची आभुशणां.

कर्ण : वृषू, शोण अशे खंती जावं नाकात तुमी. म्हाका कुंडलां सयत पळयत आयल्यात, आनी आयज कुंडलां ना म्हुणून तुमकां घडये वायट दिसता आसतलें, वो तुमचे भितर म्हज्या पराजयाचो एक सुप्त भंय फांकारला. शोण... तुज्या वसुदादाचो पराजय सपनांत लेगीत चिंतूं नाका.



शोण : दादा! (ताका वेंग मारता.)

कर्ण : वृषाली... (वृषालीकडेन वता. तिजे खाडकेक अचळय हात लावन वयर घेत तिका तेळटा.)

कर्ण : वृषू अशें वयर पळय. वृषाली! हें कितें? कवच आनी कुंडलांचें दान दिल्याबराबर तुवें सोमतेंच वैधव्य स्विकारलें?

वृषाली : कितें? स्वामी अशे काळजाक घाये घालपी उतरां उपकार करून उलोव नाकात न्हय. हांवें कितें म्हणलां? हांवें तर तुमचे कडेंन उतरूय काडूंना.

कर्ण : वृषाली... तुजें उगडें कपल कितें सांगता?

(शोण वृषालीकडेन पळोवन.)

शोण : वैनी तुमच्या कपलार सौभाग्य आभुशण ना.

वृषाली : आरे देवा!... स्वामी क्षमा करात म्हाका. ही दानाची खबर आयकतसून हांव म्हजें उरूंक ना. म्हाका कसली याद उरना. म्हाका कसलेंच धंगण उरना. म्हाका क्षमा करात. (गोंदळटा)

कर्ण : राव वृषाली, (म्यानांतल्यान तलवार काडून आंगठ्याच्या बोटाचेर घायो करून रगत काडून वृषालीचो भांग भरता. वृषाली ताच्या पायां पडटा. तिका उठयता. वृषू आयज म्हज्या आंगावेलें अभेध्य

कवच अंतर्धान जालां. जगाच्या नदरेन तें म्हजें दुर्दैव आसत पूण, तुज्या उक्त्या कपलार चडोवपाक म्हाका अडेचें सौभाग्य आभुशण सोदचें लागलें ना तें फकत म्हज्या आंगावयलें कवच देवयल्ल्यानूच. वृषाली हो म्हज्या जिणेंचो भाग्याचो खीण अशें हांव मानतां. म्हज्या कुडींतल्यान व्हांवपी रगताचो थेंब्यान थेंब आयज तुज्या कपलावयल्या एका टिळ्यान धन्य जालो. म्हजो हो आनंद वृषू हांवूच समजूंक शकतां. फकत हांवूच!

(तुजें उक्तें कपल उजळावपाक आयज तुजो घोव कवच ना म्हुणूनच समर्थ थरलो. हे म्हजें अहोभाग्य! म्हजो आनंद वृषू हांवच समजूक शकता!)

(काळोख)

पयलो अंक सोंपता

# अंक दुसरो

## (प्रवेश पयलो)

(दुर्योधनाचो म्हाल. ताचे स्वताचे खास अशे लोक घेवन कटकारस्थनां रचपी दरबार भरला. हांतूत स्वता दुर्योधन, शकुनीमामा, दुःशासन बीन आसात.)

धन : पळयलें मामा, कृष्णालीं कपटकारस्थानां? शिशटाय करपाक आयिल्लो काय युद्धाचें शिनाल दिवपाक आयिल्लो हो? सगळो उलोवण्याचो रोख म्हजेकडेन. ह्या संवसारांत दुश्ट म्हणल्यार दुर्योधन अशेंच समिकरण केलां हाणीं. युद्ध नाका खंय. सगळीं दुशणां आमकां. दुस्वासी.

नी : म्हाका कळना तूं इतलो कित्याक खंती जाता तो? कृष्ण आयिल्लो तो शिशटाय घडोवन हाडपाक? खरीच शिशटाय घडोवन हाडपाची अशिल्ली जाल्यार समेटाची भास उलोवपाची न्हय ताणे? त्या उलोवपांत समेटाची भास़च ना़शिल्ली. आनी हांव म्हणटां अशें एकमेकांभितर धुसफूस दवरून रावचेपरस, युद्धान हो समेट घडटा जायत जाल्यार आमी युद्धाक पाळो दिवप हें भौ गरजेचे. ताका लागून खंत कित्याक करप?

ासन : पूण मामा, कृष्णान दुर्योधनाक लक्ष करप हें समा व्हय?

नी : आरे कृष्णाचें नाव घे नाका. तो पाडेबुद्धीचोच. तो दुर्योधनाचें कितें बरें उलयतलो? म्हाका राग येता तो आमच्याच लोकांचो. सामके

उतरां कणकणी पाळो दिवपी लोक आमच्याच दरबारान आसा
आमी पाडेबुद्धीचे, घातकी, अबुद्धी? गांधार नरेश शकुनी अबुद्धी

दुःशासन : मामा तुमकां अबुद्धी कोण म्हणटा? तुमची बुद्ध खर म्हुणुनच त येदो व्हडलो द्युत आमी जिखुंक पावले. एकूय पासो युधिष्ठीरावटे पडूंक दिवंक ना. तुमी आनी अबुद्धी? तुमी तर खरे गिन्यानी.

शकुनी : तांका तशें दिसता जावयेत. दिसुनी. खरें-फट रोखडेंच कळटले युद्धाक मात्सो आरंभ जावनी. फाटीं द्युताचे पाशे घुंवडायले. आत युद्धाचे फासे घुंवडावया. फुडाराक जावपी युद्धांत आयुधांपर बुद्धीच्या आयुधाक चड मोल आसतले. भाच्या आमची भिस बुद्धीचेर चड आसतली.

दुर्योधन : अशें कित्याक म्हणटात मामा? आमचेलागी एकापरस ए म्हान अशे महारथी आसात. द्रोणाचार्याच्या रुपान साक्षा धनुर्वेदच आमच्यावटेन आसा. अश्टतासांचो पकदस्त महारथी क आमच्यालागीं आसतना आमकां काळजी करपाचें कारणूच ना.

शकुनी : आयक ! मात्सो आयक... इतलो अतिविश्वासान रावूं नाका. हां कितें सांगता तें बारीकसाणेन आयक आनी त्रयस्थपणान ताचे जरूर विचार कर.

दुर्योधन : त्रयस्थपणान?

शकुनी : हय. त्रयस्थाचीच भुमिका महत्वाची आसा. कांय वेळां आपल्य मनशांक पारखुपाक त्रयस्थच जावप चड बरें. आपले मनश भितरली वायट प्रवृत्ती पारखितना संबंध, नातीं आड येतात. गुरुशिश्य परंपराय आड येता.

दुर्योधन : मामा तुमचे उलोवण्याची मोख कोण?

शकुनी : अर्थातच द्रोंणाचार्य! तुमचो गुरु... साक्षात (कुचित्रीपणान धनुर्वेद!

दुर्योधन : कितें दुबाव तांच्याबद्दल?

शकुनी : दुबाव...? कितल्यो रुजवाती जाय तुका? कितले दाखले जाय आरे बाबा एक वगतार पितामह आनी द्रोणाचार्य मरण पत्करतले पूण पंडुपुतांचेर पोटतिडकीन शस्त्र चलोवचे नात. आनी तुगेलो इश महारथी! सूतपुत्र...?

र्योधन : मामा. हांव कितेंय आयकून घेयन, पूण कर्णाचेबद्दल एकूय उणे उतर उलयतना तुमी मुजरत खबरदारी घेवची. तो सूतपूत्र जरी आसलो तरी म्हजो जीवलग इश्ट हें कानभयऱ्यार करूं नाकात. म्हजे खातीर कितेंय... कितेंय करपाची ताजी तयारी आसा. म्हजे इश्टागती फुडें ताका आनीक व्हड अशें कांयच ना.

कुनी : फट. भाच्या दुर्योधना म्हाका पटना. युद्ध अटळ आसा. कर्णाक खबर आसुन लेगीत आयज ताणें कितें केलें खबर आसा व्हय तुका? (कर्ण येता.)

हो पळय आयलो तुगेलो दानवीर इश्ट. ताकाच विचार आयचो ताचो पराक्रम!

दुर्योधना! एका भिक्षुकाक कवच आनी कुंडलांचे दान दिलें ह्या मुर्खान! न्हय आपलें मरण ताचे झोळयेंत घातलें.

र्ण : तोंड सांबाळ शकुनी मामा! (ताज्या आंगार धावन वता.) दान दिवप आनी तें कितें दिवप हो प्रस्न म्हजो. आयज उच्चारल्या त्या उतराक आयजच पूर्णविराम दी. परत उच्चारीत जाल्यार तुजी चड वळवळपी जीब मुळासकट हुमटावन काडटलों.

कुनी : दुर्योधना... भाच्या पळय... उसळटा पळय म्हजेर. खरें सांगतगीर असोच राग येता. अशीच कपलाक तिडक मारता.

र्योधन : मामा.... उतरां मात्शीं मारती घेयात न्हय. इश्टा कर्णा, मामा सांगता तें खरें? तुवें तुज्या कवच आनी कुंडलांचें दान दिलें?

र्ण : हय... खरें आसा तें.

र्योधन : अंगराज! हें कितें करून बसलो तूं? युद्धाच्या आरंभाकच स्वताक निशस्त्र करून घेतलें तुवें?

कुनी : हांव... वेगळें आनी कितें म्हणटा?

र्योधन : मामा तुमी मात्शे वगी रावात पळोवया. (कर्णाक) तुजे आंगार कवच आसप म्हळ्यार तुजें व्हडलें शस्त्र. हें अभेद्य कवच आसप म्हणल्यार? तुका युद्धाक आव्हान करतल्याक सात वेळां विचार करचो पडटलो. आनी आयज... कर्णा... इश्टा हे कितें करून बसलो तू?

कुनी : म्हुणूनच हांवें तुका म्हळें तू व्हडलो... (कर्ण दोळे तांबडे करून

उसळटा. ल्हवू ल्हवू शांत जाता.)

दुर्योधन : युद्धाच्या सुरवातिकच तुका शस्त्रहीन करपाची भयंकर कपटी खे
कोण तरी खेळ्ळा. ताणें तुज्या दानशिलतेचो बरोबर फायदो घेतल
कर्णा! मनशान कितेंय जालें म्हुणून इतलें उदार जावचें न्हय.
हें पळय, हे म्हजे घारशे दोळे. म्हाका सगळ्यान चड आवडि
वस्त! म्हज्या ह्या घारशा दोळ्यांचो म्हाका भौ अभिमान! ह
दोळ्यांच्या बदला हांव हस्तिनापुरचें राज्यय खोटायन.
म्हजे दोळे साक्षात परमेश्वरान येवन मागत जाल्यार हांव एख
दियतय; पूण दोळे व्हरचे पयलीं म्हज्याच तरसादीन म्हजें श
जमनीर पडिल्लें आसतलें.
इश्टा ह्या धर्तरेर तू एकलोच तर अभेद्य शरिराचो धनी आनी तुवें
तुज्या मर्जेन ताचो त्याग केलो.

कर्ण : इश्टा दुर्योधना म्हज्या दानान इतलो निर्शेव नाका. लक्षांत द
कर्णाचें रणभुयेंवयलें शौर्य हें कवच कुंडलां ना म्हुणून मात लेगी
कमी जावचें ना.
कवच कुंडलांच्या आश्रयान कर्ण युद्ध जिखता अशे जग म्हण
जायत जाल्यार कवच - कुंडलां नासतनाय हांव जिंकूक शकता
जगाक दाखोवन दिवचेंच पडटलें!

शकुनी : दुर्योधना! कवच-कुंडलां ना जाल्यार हाच्यान अर्जुनाच्या सामर्थ्या
तोंड दिवपाक निखालस जावचें ना ही काळ्या कातळावयली रेग
लक्षांत दवर.

कर्ण : इश्टा हांव आनीक चड उलयना. आता कर्ण उलयतलो तो तागेल्य
विजय धोणुतल्यान सुटपी एकेका जळजळीत बाणाच्या रुपान.
गांधार नरेशा! तुजी ही कारण नासतना लवलवपी जीब हांव केन्ना
आळाबंदा हाडूक शकतां. फकत ह्या म्हज्या इश्टाक लागून हां
शांत आसा. आनीक वाद वाडपाक नाका म्हूण हांवच हांगासल्या
वतां.

दुर्योधन : इश्टा असो मनाक लावन घेव नाका. म्हजो हेत तसो नाशिल्लो.

कर्ण : इश्टा, कर्णांची जीण ही अशीच उतरांच्या जळजळीत बाणांनी
सदांच छिन्नविछिन्न जायत आयल्या. तांतूत हाज्यापरस आनी

भर नाका. वतां-वतां एक उतर दिवन वतां; इश्टा तुज्या उल्याक हांव सदांच तत्पर आसतलों. आयच्यान म्हजी जीण दुर्योधना, हांव तुकाच ओंपतां.

**दुर्योधन** : (वेंगेत घेयत) इश्टा, तुज्या उतराबद्दल मात लेगीत दुबाव ना. आनी हें तुवें सांगपाचीय गरज ना. म्हजो विश्वास, म्हजी पुराय भिस्त इश्टा तुज्याच नाड्यार आसा. (कर्ण वता.)
मामा इतलो अवमान करप समा न्हय.

**शकुनी** : जालेंच! आयज तू ताचोच पाखो घेतलो. कळटलें, फाल्या कळटलें. (तुताऱ्यो वाजूंक लागतात दवंडिचो आवाज...) पळय युद्धाक हयकार दिला हाची गवाय ही.

**दुर्योधन** : युद्धाक हयकार न्हय! येयात सांगतां तुमकां... (ताज्या कानांत फुतफुतता.)

**शकुनी** : व्वा... शाब्बास!...

(काळोख)

## (प्रवेश दुसरो)

| | | |
|---|---|---|
| कर्ण | : | मित्रा दुर्योधना, म्हाका दिसलें की पांडुपुतानी युद्धाकच आव्हान केलें आसतलें म्हूण. एकेवटेन बरेंच जाले. पूण इश्टा खरें सांगता... हें मनाक पटना. अशें गोहरण करप समा न्हय. दुसऱ्याली गोरवां चोरप? त्रिखंडातल्या जैतिवंत कुरुकुलाक ही गजाल सोबना. एकदा चूक घडली. परत करप समा न्हय. |
| दुर्योधन | : | इश्टा, गोहरण फक्त निमित्त! |
| कर्ण | : | निमित्त म्हणल्यार? |
| दुर्योधन | : | युद्धाचो म्हूर्त थारतोलोच. थारायल्या उपरांत शत्रू बरे तयारेन सज्ज आसता. |
| कर्ण | : | पूण हो वाठार पांडवांच्या अख्यत्यारितलो. |
| दुर्योधन | : | हय. खबर आसा. पळय, आनीक कांयच विचार करूं नाका. तुज्या सांगाताक स्वता शकुनीमामा आसतलो. |
| कर्ण | : | म्हाका ताचोइतलो सांगात नाका. तुका खबर आसा तो म्हजो कितलो दुस्वास करता तो. |
| दुर्योधन | : | तुजी मर्जी! दुःशासन आपलें सैन्य घेवन तयारेन रावला. अश्वत्थामा आयला. तेवटेन तुजो भाव आसा शोण... तुका मामाची मदत नाका अशें तुजें म्हणणे न्हय.? |

कर्ण : शोणाच्या मदतीक कोण आसा? ताका हांगा हाड.

दुर्योधन : नाका मामाक धाडटां. एकदां ताका थंय नेमला न्हय? जालें. भंय कसलोच ना. पळय, आनीक कांयच उलोवंक नाका. मामा इतलो पडमूर न्हय.

(भितरल्यान बोवाळ चालू. गोरवां आमडितात. गोरवांच्या हांबेवपाचो आवाज.) कर्णा वगत काडूं नाका. हो पळय आयलो अर्जुन. हीच वेळ आसा कर्णा. भीमाक हांव आंगार घेतां. पळयतां आयज सर्वश्रेष्ठ गदाधारी कोण तो? खावन खावन मातिल्ल्या खावग्या आयज पळयतां तुजे आदोडीची भूक कितली ती.

(भितरल्यान परत मोटो आवाज. दुसऱ्या वटेन अर्जुन.)

अर्जुन : आरे येदेव्हडल्या कुळाचें नांव लावपी विरांनो! दुसऱ्यालें गोधन चोरतना तुमकां लजय रे कशी दिसली ना? पितामह तुमकांय आमी कशें सांगप? त्या दुर्योधनाच्या मदांतपणा सामकार तुमचें कांयच चलना अशें मानप?

पितामह तुमकां हांव कांयच म्हणीना, पूण वायट दिसता तें - सगळ्यांनी कुरुंच्या जैतिवंत, चारित्र्यवान राजदंडाचो मान पायापोंदा माड्डिलो. धुल्लांत मस्तीलो हाचें.

कर्ण : अर्जुना तोंडाची बातां बंद कर आनी झुजाक तयार जा. म्हज्या सुदामनचो बळी घेवपी पांडूपुत्रा आयज तुजो बळी घेवन म्हज्या पुत्रशोकाक मुक्ति दितां.

अर्जुन : झुजाक तयार राव म्हणटना सूतपुता मतींत दवर हें झूज न्हय. ही दुसऱ्याल्या गोधनाची चोरी. ती चोरी करपाक तुगी लुटारू जावन आयल्यात. आमी फक्त गो रक्षण करपाक धोणू सावरलां. येदो व्हडलो दानशूर तू. देवलोकांत पसून तुजी किर्त गाजता आनी - तुजेकडल्यान गोहरण?. शी! अंगराज म्हूण राजवस्त्रां आंगार मिरयतना निमाणो आपले मूळ जातीरूच गेलो नरे? म्हाका काकळूट करची अशी दिसता तुज्या पांगेपणाची तुज्या मिंदेपणाची. (कर्ण वोगी... धोणू सकयल काडटा. आपले भितर.) गोहरण हें म्हज्या तत्त्वांत बसना... पूण दुर्योधनाक तर हावें उतर दिलां.

**अर्जुन** : सूतपुता... तुका सोबना हें. दानवीर म्हुणून घेवपी कर्णा त्या विजय धोणुचो तरी मान दवर. पूण आत्मसन्मान घाणाक दवरतगीर आनी अक्कल खंय उरतली?

(कर्ण खवळटा) आरे तूं तर त्या वाळेस दुर्योधनाच्या पोशांतल्यान उदक पिवपी. तू राजा म्हणटा तें अंगराजपद तुवें तुज्या हिमतीचेर मेळोवंक ना. दुर्योधनान आपल्या फायद्याक तुका मिंदो करपाक दिलां. तुजें हातपाय तर दुर्योधनान बांदल्यात. तू आनीक कितें करतलो? अशीच दुसऱ्याल्या गोधनाचीं चोरीच करपाची .तरीय तूं व्हरतलोच जा. हो अर्जुन जो मेरेन हांगा आसा तो मेरेन तू आमचें गोधन व्हरूनच दाखय.

(भितरल्यान योद्ध्यांच्या गर्जनांचो आवाज. दुर्योधनाचो आवाज आयकुंक येता.)

**दुर्योधन** : कर्णा वेळ काडूं नाका. उखल धोणू. हीच वेळ आसा. कळाव नाका. तुजो पूत सुदामन हाणेंच मारिल्लो. लक्षांत दवर. आयचो दीस परत येवचो ना. पितामह, शोण, अश्वत्थामा, दुशासन, आचार्य... चोंय दिकांनी कोनाळें करून बाणांचो पावस घालात. मारात.

(कर्ण आपणालें धोणू सावरून बाण मारता. अर्जुनाचेर चोंय दिकांतल्यान तीर येतात. अर्जुन सगळ्यांचो सामनो करतना एकदम संमोहन अस्त्राचो मंत्र पुटपुट्टा. सगळे कौरव वीर सुद्द वचून जमनीर पडटात. सगळ्याक काळोख. एका कोनशाक कर्ण पडला. शोण मदीं पडला. ताच्या गोमटेक घायो जावन तो मेला. अश्वत्थामा कर्णाक मोट्यामोट्यान उलो मारता. तोंडार खंयच्यान तरी हाडून उदक शिंपडीता..)

**अश्वत्थामा** : इश्टा. राधेया उठ. जागो जा बेगीन. (परत उदक मारता.) कर्णा उठ... जागो जा इश्टा.,. (कर्ण जागो जाता.)

**कर्ण** : गुरुपुत्रा.

**अश्वत्थामा** : कर्णा, राधेया, घात जालो.

**कर्ण** : घात? कितें जालें? म्हजे इश्टाक दुर्योधनाक बी कांय जांवना मूं? तो सुखरुप आसा न्हय?

अश्वत्थामा : ताका कांयच जावंना. तो फकत बेसुद्द आसा. सगळेवीर बेसुद्द आसीत. म्हाका दिसता अर्जुनान बहुतेक संमोहन अस्राचो प्रयोग केलो आसतलो.
म्हाका पयलीं जाग आयली आनी कितें पळयतलो? कर्णा, आमी राधामाईकडेन खंयचे तोंडान वतले?

कर्ण : गुरुपुत्रा...! कोणाबद्दल कितें म्हणटा तूं? म्हजो भाव शोण खंय?

अश्वत्थामा : (शोण पडला थंय बोट दाखयत.) हो पळय.. (ताच्या म्हऱ्यांन वचून ताजे खांदे धरता.) तुजो प्रिय शोण सोंपलो रे!

कर्ण : शोण! (कर्ण रडटा... ताच्यो भावना उफाळतात... बरोच वगत वता. शोणाची तकली मांडयेर घेवन रडटा.)

अश्वत्थामा : राधेया! स्वताक सांबाळून घे.. तुजें दुःख्ख हांव समजूंक शकतां.

कर्ण : शोण! भावा कशें जालें रे हें?
गुरुपुत्रा अर्जुन सामको म्हज्याच फाटल्यान हात धुवन लागला. म्हजेकडेन दोन हात करी नासतना आमकां सगळ्यांक बेसुद्द करून, आनी हाका जागो दवरून ताणें हाजोच कित्याक रे घात घेतलो?

अश्वत्थामा : कर्णा दुख्खाक बांद घाल. धीर धर.

कर्ण : कसो म्हूण दुख्खाक बांद घालूं? पयलीं एका झुजांत एकलो धरून अर्जुनान म्हज्या नेण्टया सुदामनचो बळी घेतलो, आनी आयज म्हज्या भावाक एकल्याक धरून मारला.

अश्वत्थामा : कुंतिपुत्र तुका तिडायता कर्णा. ह्या वेळार तरी अर्जुनान अशें करपाचें न्हय. ही ताजी करणी समा न्हय. कर्णा, बेसुद्द अवस्थेंत आसतनाच तर ताजेर बाण मारलो ना मू?
(कर्ण कसोतरी उठटा. ताचेकडेन शोणाच्या कुडीर धांपपाक कायच आसना. आपलें उत्तरीय लेगीत ताज्यालागीं ना.)

कर्ण : देवा! देवा!! कितलो कपलफुटको रे हांव?

अश्वत्थामा : कितें जालें इश्टा?

कर्ण : शोणाच्या प्रेताचेर धांपपाक आयज म्हज्यालागीं एकूय वस्र ना. सगळ्यांक जाय जाय तें दान करपी हांव; आयज म्हज्या भावाच्या

प्रेताचेर घालपाक एक वस्त्रय म्हजेकडेन ना.

शोण, तुवें म्हजेकडल्यान कसलीच अपेक्षा केली ना. केन्नाच कांयच मागलें ना. आयज तुजे निमणे घटकेक पसून तुजेर एका वस्त्राचें पांगरूण घालपाक हांव दळिद्री जालो रे!

गुरुपुत्रा... वस्त्र खंयच्यान हाडुया? कूड तर धापुंकूच जाय.

**अश्वत्थामा** : हें पळय युवराज दुर्योधनाचें उत्तरीय आसा हांगा तें घालुया.

(कर्ण उत्तरीय अचळय काडटा. शोणाचेर घालता. हात भायर उरता. हातींत तलवार आसा.)

**कर्ण** : पळय गुरुपुत्रा! ज्याअर्थी शोणाच्या हातींत खड्ग आसा त्या अर्थी अर्जुनान शरसंधान करूंना. शोण आमचे सारखो बेशुद्ध पडटां पडटां अर्जुन तलवार घेवन ताच्या आंगार धांवला. आत्मरक्षणा खातीर शोणान तलवार भायर काडल्या. पूण ताजीं गात्रां शिथील पडल्यांत जांवये आनी त्याच वेळार अर्जूनान कार्यभाग सादला. आरेरे! शोण म्हज्या भावा! शत्रुंतपा... तुजो पवित्र आत्मो म्हजे भवतणी आसा. (ताजी तलवार मुठींतल्यान सोडोवन आपल्या हातींक धरीत.) म्हजी प्रतिज्ञा आयक शोण, ''या ज़गांत एकतर अर्जुन उरतलो ना जाल्यार कर्ण! तुज्या मरणाक जापसालदार आशिल्ल्याचो बळी युद्धभुयेंच्या वेदीर चडयलोना जाल्यार... शत्रुंतपा, ह्या मृत्युंजय कर्णाची जीण व्यर्थ!''

(काळोख)



## (प्रवेश तिसरो)

कुंती : कृष्णा, कितें कितें पळोवपाक म्हुणून परमेश्वरान ह्या पृथेक जल्मांक घातली? माते... तुज्या पृथेचो जल्म फक्त दुकां गळयत रावपाक काय कितें?

जल्मांक येयत सावन म्हज्या वांट्याक शाश्वत अशें दुख्खूच कित्याक रे आयलें? जिवन म्हणल्यार खंय सुखदुख्खाचो फाट धरपी खेळ. हो खेळ म्हजेच जिणेंत खेळोवपाक तू इतलो कित्याक रे निष्ठूर जालो?

कितें तो महर्षी दुर्वास आमगेर येता. कितें ताचो तो महायज्ञ निर्विघ्न संपन्न जाता, आनी कितें ताणे तें व्हडा खोशेन म्हाका दिल्लें वरदान. हांव वीरांची जननी जातलें... परमेश्वरा अशें शापीत मातृत्व म्हाका तुवें कित्याक रे दिलें? तें वयूच तसलें. चंचळ भावविश्व.

दुर्वासान दिल्लें वरदान खरें काय लटकें म्हुणून पळोवपाची वान्सा म्हजे भितर आंकवारपणांतूच जागयली. तातूंत म्हजो कसलो दोश? चूक घडली खरी. मंत्राच्या बळग्यार आपोवन हाडील्ल्या त्या तेजीश्ट पुरुषाक हांव अव्हेरूकय शकनाशिल्लें. कारण हांव तेदेवेळार पृथा पृथा... उरूकच नाशिल्ले. सैमान आपलो नेम चुकयलो ना. पोटांत वाडिल्लो आंकूर वांगडा घेवन हांव जगूक तरी शकतलीं

आसली? हे पौरजन म्हाका जगपाक दियत आसले?

पांचय पुतांकडेन पळयतना तांची आवय म्हणप म्हाका भौ भाग्यवान कशें दिसता, पूण खऱ्यानी हांव सुखी खंय आसा?

कृष्णा तुका मुद्दम धाडिल्लो. एखाद्रो निर्वाणिच्या वेळार, आपलें जिवनरहस्य समजतगीर कर्ण परततलो म्हूण. पूण तेंवय घडलें ना. इतलो तेंप हांव काळजाचेर फातर दवरून जगलें. पूण तें जगणें तरी कसलें आसलें?

**कृष्ण** : आचे. कर्ण म्हणल्यार सादें व्यक्तिमत्व न्हय. दानशूर कर्णाची वेगळी वळख करून दिवपाची आवश्यकता ना. धोणुतल्यान सुटिल्लो तीर आनी कर्णाच्या तोडांतल्यान भायर पडलेलें उतर सारखेंच. दोनय परत येवचीनात. ताणें निमाणेंमेरेन दुर्योधनाक सांगात करपाचो सोपूत घेतला. कवच कुंडलांचें दान खबर आसून इंद्राच्या झोळयेंत घालपी कर्ण केन्नाच आपलें उतर मोडचोना.

**कुंती** : समजलें. म्हणल्यार दुर्योधनान ताका सामको आपल्या कपटी जाळांत गुरफटायला. आपल्या फायद्याखातीर ताचेकडेन इश्टागतीचें नाटक रचलां.

**कृष्ण** : जल्मरहस्याच्या उलगड्या खातीर जल्मभर तळमळील्ल्या कर्णाक आपली आवय कोण? एकदांच आपल्याक सांगात म्हणपी कर्णाक तो रहस्यभेद जातगीर ताचें मन घडयें बदलतलें अशें म्हाकाय दिशिल्लें. सामको उंचांबळीत जावन म्हाका थंयच सोडून तसोच धांवत येतलो आपले जल्मदात्रेक मेळपाक अशें म्हाकाय दिशिल्लें. पूण हांव ताच्या बाबतींत सामको अपेशी थल्लों. म्हजो अदमास सामको चुकलो आते! ताका हावें फुसलायलो, समजायलो. पूण म्हाका तो बदलोना.

**कुंती** : आयुश्यभर काळजांत प्रस्नचिन्न जावन बसलेल्या गुटाचो उलगडो जाल्या उपरांत म्हज्याविशीं ताच्या मनांक विशाद आसप सभाविक आसा. म्हज्या भुरग्यापणांच्या हुतहुत्यापणाक लागून कृष्णा हें सगळें घडपाक पावलें रे. हांवूच पातकी!

**कृष्ण** : ना आते. नियतिचो खेळ हो, कोणाकच चुकलो ना आनी चुकचोय

ना.

कुंती : तुजेकडल्यान घडये नियतिचो फेरो बदलत काय अशें दिशिल्लें.

कृष्ण : हांव कोण बदलपी? व्हडल्या व्हडल्यांक हो फेरो चुकलो ना. म्हजेय जिणेचो पडताळो पळय. हांवें म्हुणून कितें कमी सोंसलां? आमी सगळी नियतिच्या हातांतलीं खामसुत्री बावलीं. ताज्या बचक्यांतल्यान आमी नश्वर जीव सुटुंकच शकनात. (कुंती खिन्न जाता.) आते... अशी खंती जांव नाका.

कुंती : कृष्णा म्हाका म्हजे सय पूत जाय रे! तांतुतलो एकलोय उणो जाल्लो नाका म्हाका. दुर्योधनान पेटयल्ल्या ह्या नरयज्ञात म्हज्या एकाय पुताची समिधा पडिल्ली म्हाका नाका.
भावाभावामदीं झूज पेट्टलें. मुडान पेटिल्ल्या कर्णाचो हावेस पळयत जाल्यार म्हाका म्हज्या पाचय पुतांचो हुस्को जावपाक लागला.

कृष्ण : कवच कुंडलांच्या दाना उपरांत कर्ण सामको निस्तेज निश्प्रभ जाला. म्हाका ताजीच शाश्वती कमी दिसता.

कुंती : चुकता तू कृष्णा. सूर्यपूत तो. मळबांत ताचो बापूय आपल्या सहस्र आऱ्यांनी धगधगता, चकचकता आसतना ताचेर जैत जोडप हें सामकें अशक्य!
पूण म्हाका तोय जिकिल्लो नाका. तो जिकप म्हणल्यार म्हजे पांच सोंपप. पांच जिकप म्हणल्यार एक सोंपप. म्हाका तशेंय नाका.
(कुंती आपल्याभितर खंती जावन बसता.)

कृष्ण : खंती जांव नाका. आते एक मार्ग आसा.

कुंती : खंयचो आनीक मार्ग उरला रे? सांग म्हाका.

कृष्ण : म्हज्या यत्नाक यश आयलें ना म्हणल्यार शेवट न्हय. कदाचित तूं गेली जाल्यार?

कुंती : हांव? हांव खंयच्या तोंडांन वचू ताज्या म्हऱ्यात? आयज मेरेन सूतपूत... सूतपूत म्हुणून आयकत आनी अपमानाच्या तप्त इंगळ्यांत जळत आयिल्लें ताजें मन. आनी ताका असले अपमान फावो करपी कारण हांवच. ती दळभद्री काळीजहीन आवय म्हुणून कळटगीर तो कितें उलयत सांगू येत?

जल्मभर हांव सोसत आयलां कृष्णा. आनीक आनी सोसपाची ताकत उरूं नारे आतां.

**कृष्ण** : तागेल्या क्रोधीत मनाची व्यथा हांवूय पारख करूंक शकना. घडये तो उलयतय. पूण निमण्या यत्नांक फळ येवपाक जाय जाल्यार आयचे घडयेक तुवेंच वचून पळोवपाक जायः

**कुंती** : (वोगी... कृष्ण तिच्या म्हऱ्यान येता..)
वतां. पूण तुजेकडल्यान म्हाका एक वचन जाय.

**कृष्ण** : कसलें वचन?

**कुंती** : झूज सुरू जालां. तो खंय आसत? खंय मेळत हाची निश्चिती ना. म्हज्यान चलूंक लेगीत जायना रे. कूड थकल्या कृष्णा. कुडीपरस मन चड थकलां. आयज तुज्या अपयशान चड थकलें.

**कृष्ण** : हय! पूण हांव कितें करूं? म्हजे कडल्यान कितें जाय तुका?

**कुंती** : ही गजाल तुका आनी म्हजे एके दासीक, धात्रीक खबर आसा. म्हाका बळगें ना रे थंय ताज्या म्हऱ्यान उबे लेगीत रावपाचें.

**कृष्ण** : आवयन आपल्या भुरग्याचो भंय धरून उपकारना. असो धीर सोडूं नाका.

**कुंती** : तूं मात्सो म्हाका थंय व्हरशी?

**कृष्ण** : एकदां गेलों. परत गेल्यार हावेंनूच तुका फुडें केल्या असो समज जातलो ताचो.

**कुंती** : तूं ताका दिसना असो राव. पूण म्हज्या बराबर यो. एक निमणो प्रयत्न करून पळोवयाच. हांव लजभीड सोडून सगळें सांगता रे आतां. पृथेक आता लज उरूंक ना बाबा. म्हाका कांयच नाका रे. हो संहार जातलो तो फकत थांबोवपाक जाय. हातुंतल्यान कांयच सुटावे जांवचे ना.

**कृष्ण** : म्हाका लेगीत तेंच जाय आसलें.

**कुंती** : ना. तू फट सांगता. तूं कुंतीक फटोवपाक शकना. तू द्रौपदीच्या, तुज्या भयणीच्या वस्त्रहरणाचो सूड घेता. कृष्णा जाता जाल्यार विसर रे शाण्या. द्रोपदी तुजी भयण तशी म्हजीय सून. म्हाकाय धुवे सारखी. म्हाका दुखूं ना? एके बायलेचें दुख्ख दुसरे बायलेक समजूं

ना अशें दिसता तुका? पूण हांवें पचयलें. (कृष्ण वोगी)
तुजी तेन्नाची प्रतिज्ञा हावें आयकल्या. ताका लागून म्हजी खात्री आसा हांव चुकना.

कृष्ण : ना आते ना. हांव कितेंय विसरन, पूण भयणीच्या पदराक घातिल्लो हात? आनीक तो कुरुंच्या राजसभेंत एका फुडले एक वीर आनी जाण्टे हाजीर आसतनां मान सकयल घालून लाचारपणान बसलेले तें. हांव विसरूं?

कुंती : पूण हें उणाक कृत्य जाणीं केलें तांकांच शासन करपाचे न्हय रे.

कृष्ण : आते, द्रौपदी त्या दिसांनी रजस्वला अवस्थेंत आशिल्ली. आनी हें खबर आसून लेगीत तिका दुशःसनान भर दरबारांक एकवस्त्रानिशी ओढून हाडली आनी म्हजी भयण म्हुणून न्हय. ती कोणूय आसूं... निमणो यत्न म्हुणून ती सगळ्यांकडेन आपल्या अब्रूची राखण करात म्हूण दयेची याचना करताली. येदो व्हडलो जेष्ठ कुरु देवव्रत भीष्म लेगीत उठूंक ना. कित्याक जाप विचारूंक शकलो ना? कित्याक वोगी रावलो? धृतराष्ट्र कुड्डो आसलो पूण मोनो नाशिल्लो. कित्याक उलयलो ना? तो आडोवपाक शकनासलो? गांधारीन कित्याक निर्वाणीची दोन उतरां सांगली ना? द्रोपदीची अवस्था तिच्या काळजा मेरेन पावलीना?

कुंती : म्हाका पट्टा तुजें. पूण दुर्योधनाच्या मुखार कोणच कांय करुंक शकनासले.

कृष्ण : कितें करुंक शकनासले? ताका आडावपाक जातालें. तो कर्ण जाका हांव चारित्र्याची धवीफुल्ल अशी प्रतिमा मानतालों; तो द्रौपदीक कुलटा, वेश्या म्हणटा. कोणें अधिकार दिलो ताका तिका कुलटा थारावपाचो?
म्हज्या भयणीच्या शिलाच्या राखणेक एक्लूय वीर मुखार सल्लो ना. जण एकलो आपल्याक कांयच पडलेलेलं ना अशें पिशें पांगरून बसलो. कांयजाण फुडें कितें घडटा तें पळोवपाक वखवखलेले.

कुंती : म्हगेल्या भीमाचो हावेस तुवें पळोवना. पूण युधिष्ठिराची आज्ञा ताणें शिरसावंध मानली न्हय! दास जाले उपरांत कोण कितें करुंक शकता?

कृष्ण : कसलें दास्यत्व घेवन बसल्या तूं? शकुनीच्या कपट कारस्थान रचिल्ल्या त्या घुलांच्या खेळाच्या हारी मुखार बायलेच्या शिलाच विटंबणेची तुळा करता तूं? ती घटणा इतली सादी समजता आते? विसरली तू तुका कुंतिभोज राजाक दत्तक दितना तुज बाबान तुका सांगिल्लें तें?

पृथे, विरांनी यशाच्या धुंदीत जगप आनीक वीरकन्यांनी शिलाखात मरण लेगीत पत्करप. विरांनी तांच्या शील रक्षणाखातीर आप सर्वस्व ओंपप. विसरली तूं खऱ्यानींच इतल्या सोपेपणान?

कुंती : (अजापान) कृष्णा! हें तुका खबर आसलें?

कृष्ण : सगळें खबर आसा म्हाका. आते, सगळ्या नाशिवंत जिवां अथ आनी इती दोनय हांव जाणा. एक वेळ आनीक कसल्या गजालीक हांवे क्षमाय केली आसती, पूण हो अपराध अक्षम्य प्रस्न एके द्रोपदीच्या शिलाच्या विटंबणेचो ना. तर संबंद बायल जातीच्या अब्रूकडें संबंदीत असो हो प्रसंग हांव कसो सोपेपणा घेंव?

कुंती : एके द्रौपदीच्या शीलभंजनाखातीर येदो व्हडलो नरबळी दिवप महायज्ञ पेटयता तूं? इतलो भयानक संहार गरजेचो रे पूता?

कृष्ण : हय! दुर्योधनान आज्ञा केली म्हुणून दुर्योधन. असलें अघोर कृत्य करपाक फुडें सल्लो म्हुणून दुशःसन. द्रौपदी विव्हळ धावून भीष्मामुखार आदार मागपाक गेली तेन्ना तो मान सकयल घालून वोगी रावलो म्हणून भीष्म! आनी ज्याणी जाणीं हो प्रसं पळोवन प्रतिकार करपाचें सोडूच तें पाडें कर्म करपाक पाल दिवन मुमुरख्यांनी हासले तेवूय बी. ज्याणीं हो प्रसंग मोन्यान पळयलो त्या सगळ्यांच्यो कुडी ह्या मातयेंत मिसळना जमनीभरव जायना तो मेरेन हांव म्हजो देह दवरचोना. आते वायट धरूं नाका अस्तुरेचें शील हें म्हज्या जीवापरसय श्रेश्ठ मानता हांव.

कुंती : कृष्णा! तुका आयज पूर्णत्वान वळखूंक शकलें हांव. पूण कितें जांव, म्हजेबरोबर यो. पळय, कसोय जांव म्हाका खबर आस म्हज्या रक्ताचो भुरगो तो. हावें जल्म दिलो, पूण पुता म्हुणून केन्न उलो लेगीत मारूंक मेळ्ळो ना, आनी आवय म्हूण एक उल

आयकुंक मेळ्ळो ना. आयज संद आयल्या. कसलींय दुशणां दींव ताणें म्हाका. ताचो हक्कच तो. पूण म्हाका म्हज्या पुताकडेन क्षमेची भीक मागपाकच जाय.

कृष्ण : ताचेकडेन क्षमेची याचना करतली तू?

कुंती : हय रे पूता ! तुका कळचें ना. आवयचे काळीज रे म्हजें. चल यो मात्सो बेगीन. वेताक चुकल्यार वावांक चुकतलें हांव. चल कृष्णा. (ताका ओडटा.)

(काळोख)

## (प्रवेश चवथो)

(माचयेच्या फाटल्या विंगेच्या एका कोनश्याक न्हंयेचो देखाव. कर्ण उदक पोशांत घेवन अर्घ्य ओंपता. कर्णाचें उत्तरीय एका झाडाचेर दवरलां तें पळोवप्यांक दिसता. कर्णाची नदर न्हंयच्या वटेन म्हणल्यार पळोवप्यांक ताचें मूख दिसता. कुंती कर्णाचें उत्तरीय पळयता. काळजांतल्या भावनांच्या उमाळ्यांक आडावंक शकना. उत्तरीय छातीकडें घट्ट धरता.

*राधेय न्हय रे*
*कौंतेय तू रे*
*सूतपूत न्हय रे*
*म्हजो अपुरबायेचो कुंवर रे...*

*कानीन कित्याक म्हणटलें?*
*तू सूर्यपूत मरे*
*सगळ्यांनी खेळयलो*
*जायतसो वापरलो*
*वापरतना नाका थंय घुस्पयलो*
*सुवार्थाचे पोटले सगळे... तू मात न्हय रे*
*म्हजो अपुरबायेचो कुंवर रे... राधेय न्हय रे*

*राधाई तुवें गे वाडयलो*
*हांवे पापणीन न्हयकारलो*
*खरी आवय हांव तेची*
*पडमुरपणाची धनिण गे*
*उपकार तुजे, फेडचे कशे... धन्य तुजी ममता गे*
*राधेय न्हय रे...*



*रिणांत तुज्या उरलें गे*
*जल्मजरी मेळ्ळो दुसरो*
*रीण तुजें पावचें ना गे..*
*राधेय न्हय रे...*

एकसारखे ताजे उमे घेता. तिका आपलें भान उरना. मन भरून येता. ती रडटा. कर्ण मुखार येता. कर्णाकडेन तिजी फाट आसा. वळखना. सहज म्हूण उत्तरीय दवरिल्ल्या जाग्यार नदर वता. ताका दिसना. बुचकळ्यांत पडटा.

कर्ण : (आपले भितर) ही अस्तुरी तर नक्कीच याचक म्हूण आयल्ली आसचीना. कृष्णाचेंच काम आसतलें. समजलों. (उगड) राजमाते, प्रणाम करता हांव तुमकां. स्विकार करचो.

कुंती : कर्ण?

कर्ण : राजमाते म्हज्या उत्तरीयाची इतली अपुरबाय केन्नासावन?

कुंती : पुता तुका कळचें नारे तें.

कर्ण : कशें कळटलें? कळचे पयलींच तर तुवें म्हाका भारायलो. भुरगो फकत भूक लागता तेन्ना रडटाच अशा वेळार म्हाका लागीं लागीं मारलो आनी आयज म्हजें उत्तरीय हाताक मेळ्ळां तें घेवन अशें दुख्खाचें नाटक करपाक, राजमातें तुका कांयच दिसना कशें?

कुंती : आंकवारपणात आवयपणाचें वजें घेवन भोंवपाचो ,शिराप लाबील्ल्या कुमारिकेच्या मनाची कल्पना तुका कशी येतली पुता? तुका म्हगेर ते अवस्थेंत जल्मल्लो पळयल्लो जाल्यार हे पौरजन, हो समाज आमकां जगूंक तरी दितलो आसलो?

कर्ण : म्हज्या जिणेंत जें घडत आयलां ताज्यापरस आनीक चड कितें वेगळें घडटलें आसलें? सूतपूत सूतपूत म्हुणून भरिल्ल्या सभेंत म्हजी उघड निर्भत्सना जाताली ती आयकुना तुवें? तें म्हजें मरणूच आसतालें. आनीक वेगळें मरण म्हूण कितें आसूं येता?

कुंती : ताज्यापरसय भयानक, अतिजहाल, अतिविखाळ जिणेचे भोग आमकां दोगांकय भोगचे पडटले आसले.

कर्ण : म्हूण तुवें हो मार्ग पत्करलो? तुजी जागा सदांच राजमाता म्हूण उरली. इतलें मोटें कर्म करून लेगीत तुजेकडें बोट दाखोवपाचें कोणांक काळीज जालें ना. प्रतिश्टेचें आनी संवळ्या जिणेचें घट्ट कवच आसलें तुज्या भोंवतणी. आनी हांव मात अपमानाच्या रखरखीत इंगळ्यांत भाजून गेलो. म्हज्या जिणेच्यो तिस्तऱ्यो करपाक जण एकलो सामको टपून बशिल्ल्या सारखो उलयलो. मेळत तसो म्हजो मेळत थंय अपमान केलो.

कुंती : अश्वन्हंयत तुका सोडटना म्हजें काळीज कशें इंगळे नास्तना वळणलें आसतलें हाची तुका कल्पना आसचीना रे पूता?

कर्ण : निष्पाप जिवाक आनी कसली कल्पना आसतली? तुज्या निर्दय काळजामुखार इंगळे लेगीत आपलो धर्म विसरले आसतले. काळजान आपूण फातरा परस कठीण हें दाखयलें तुवें आपल्या कर्मान.

कुंती : नाका रे पुता! आनीक सहन करपाची तांक म्हज्यांत उरली ना. सोसपाचीय एक परिसीमा आसता न्हय रे?

कर्ण : तूंच आयली काय कृष्णान धाडली तुका?

कुंती : कृष्ण कित्याक धाडटलो? ताकाच हांवें धाडिल्लो. ताकाय तुवें न्हयकारलो. चल पुता आनीक कांय पचोवपाची ताकद म्हज्यांत उरली ना. म्हजो सगळो अपराध पोटांत घे आनीक परत आमच्या पक्षांत चल.

कर्ण : आयज तुमच्या पक्षांत हांव कित्याक जाय तुमकां? पक्षाचें बळगें वाडोवपाक? आयज निर्वाणीच्या खिणाक तुमी तोलून पळयलां, कर्णाक आपल्याकडे ओडलो जाल्यार जैताक आनी कसलीच आडकाटी येवचीना. शंबर टक्के जैत तुमचेंच! म्हुणून ताणीं तुका

धाडली?

कुंती : जैताची हाव न्हय पुता. म्हाका हो संहार जाल्लो नाका म्हुणून. तुमच्या सवूय जाणांच्या केसाक लेगीत धक्को लागिल्लो म्हाका नाका. म्हुणून हांव आयलें. हांव स्वता आयलें.

कर्ण : आयज ह्या निमाणें खिणाक वात्सल्याचो इतलो पुळको तूं दाखयता. नरसंहार जातलो म्हुणून न्हय; तर तुजे पांच पूत सुखरूप उरचे म्हूण हो रहस्यभेद करून तूं तुज्या चारित्र्याचेर डाग लावन घेवपाक तयार जाली. आनी म्हजी जल्मभर विटंबना जातना तुजें वात्सल्य तेदेवेळार मात जागें जालेंना गे?

कुंती : पळय पुता. तुज्या एका निर्णयान युद्ध थांबूक शकता. दुर्योधन फकत तुज्या नाड्यार उडटा. तूं नाजाल्यार तो युद्धाक तयार जावचो ना. तू आमचेंमदीं परत चल. पळय हांव उतर दितां. तुजे पांचय भाव म्हजे उतराखातीर तुजेमुखार नतमस्तक जावन जेश्ठपांडव म्हुणून तुजेर श्रेश्ठत्वाचो अभिशेक करतले. अग्रमान तुकाच दितले. सगळें राज्य तुज्याच चरणार ओंपतले. आनी तुजें दरएक उतर झेलपाक तत्पर रावतले.

कर्ण : राव. राजमाते म्हाका कसलींच आमिशां दाखंव नाका. निमाणे मेरेन म्हज्या कुडीच्या निमण्या स्वासामेरेन तुका साथ दितलो असें उतर हांवें दुर्योधनाक दिलां. एक वेळ हांव सगळें विसरत; पूण दिल्लें उतर गिळपाक म्हज्यान केन्नाच जावचें ना. म्हज्या जिवापरस चड मानता हांव म्हज्या दिल्ल्या उतराक. तूं कितेंय सांग... हांव तुमच्यांत येवपाक शकना. चल तू.

कुंती : (खिन्नतायेन) म्हजें एकतरी आयकतलो पुता?

कणई : दुर्योधनाक दिल्लें उतर फाटीं घेवपाचें सोडून कितेंय माग.

कुंती : म्हज्या पांचय पुतांच्या जिवाचें दान तरी म्हाका दी. तुवें खूब जाणांक मागता तें दिलां. एके आवयचे ओटयेंत तितली तरी भीक घाल.

कर्ण : म्हजेबद्दल कांयच दिसना तुका? एक आवय म्हूण?

कुंती : तुका जिखपाक त्रैलोक्य असमर्थ आसा, आसा रे पुता.

कर्ण : इतलो म्हज्या पराक्रमाचेर तुजो विश्वास? एका सारथी पूताचेर येदो

भरवसो?

कुंती : सूतपुत न्हय पुता, सूर्यपूत तूं! तुज्या जिवाक कितेंच वायट जांवक शकना.

कर्ण : तुका हांव गेल्लो जाय?

कुंती : ना रे. म्हज्या पुता! एक जल्मदात्रेक अशें दिसूं येता? अशें तू कित्याक रे चित्ता? तुवें कवच - कुंडलां दान दिल्यांत तें आयकून हांव कितलें रडलां? कशें न्हिन्नळां तुका केन्नाच कल्पना आसचीना. शस्त्र सर्तीच्या वेळार तुका सूतपूत म्हुणून अव्हेरलो तेन्ना घुवळ येवन पडली हांव. तुवें पळोवना रे पुता?

पुता हांव उक्तेपणान रडूंकूय शकना. कोणाक सांगूकय शकना. खंती कित्याक काय म्हणल्यार हें गुपीत उलगडून दाखोवंकय शकना. म्हज्या मनाची अवतिकाय तुका केन्नाच कळची ना रे?

पुता, तू जेष्ठ पूत म्हूण फाटल्या म्हज्या पांचय पुतांच्या जिवाचें दान म्हाका जाय तुजेकडल्यान.

कर्ण : जिवाचें दान दिवपी हांव कोण? अभय दियन. पूण..

कुंती : पूण... कितें रे पुता?

कर्ण : तूं जशी आवयच्या मनाच्या काळजांतल्या दुख्खाचे उमाळे उक्तायता, तितलेच खरपणान हावेंय हें दूख्ख भोगलां. एक दूख्ख म्हज्या रक्ताच्या भुरग्याचे तशेंच दुसरें म्हज्या घातपातान मारिल्ल्या भावाचें. आनी हाका जबाबदार आशिल्ल्या तुज्या... अर्जुनाक सोडून माग! तुका दिलें वचन! एक अर्जुन सोडून तुज्या खंयच्याच पुताक हांव हात लायना. हांगा एक तर अर्जून उरतलो ना जाल्यार कर्ण. पूण तुजे पांच पूत उरतले तुज्या वांगडा. चल तू.

कुंती : वतां पुता... (रडटा.)

कर्ण : राजमाते.. आजून कितें उरलां?

कुंती : खंयच्या तोंडान सांगू पुता? तुवें म्हाका कितें तोणाक येता तें म्हणपाचें. तुजेर खूब व्हडलो अन्याय केलो हावें. जिणभर, खिणखिणाक म्हाकाच लागून तुका अपमान सोसचो पडलो.

म्हजी कूड आता सामकी थकल्या. हांगा कशें आयलां तें हांवूच जाणां. इतिहास गवाय दिता. पूत आवयलागीं चुकी खातीर क्षमेची

याचना करता. हांगा उरफाटें जाता. म्हज्या अपराधाक जगांत क्षमा ना. अक्षम्य म्हजो अपराध! तुवें सगळ्यांक खूब दिलां. आयज निमाणें एकच कर, हे तुजे आवयक क्षमा कर पुता. (अशें म्हणटा आसतना वळटा आनी थरथरून पडटा.)

कर्ण : राजमाते. (तिका पडटा आसतना आदार दिवपाक वता.)

कुंती : सगळें कळ्ळ्या उपरांतय म्हाका राजमाते अशें संबोधून म्हजें काळीज आनीक दुखय नाका. (पांयार घालून घेवपाचो यत्न करता.)

कर्ण : राव... अशी पायांर घालून घेव नाका.

कुंती : पुता म्हाका क्षमा कर आनी राजमाते म्हणी नासतना म्हाका आई म्हुणोन एकदांच उलो मार... तुज्या आई ह्या एकाच उल्यान म्हजी अर्दकुटी जीण पुराय जातली. म्हण रे पुता म्हाका एकदांच आई! ही कूड घेवन परत पावत अशी शाश्वती ना. म्हजो आत्मो असो तळमळयत दवरता पुता?

एकदांच म्हाका आई म्हण. तुजी शतजन्म उपकारी उरतली हांव. म्हाका आनीक कांयच नाका रे. सगळें परत घे. पूण पुता म्हाका आई म्हण रे. (घालून घेता.)

कर्ण : रा.... ज... मा... ते... माते! आई वोगी राव... रडों नाका... हो पळय तुजो पयलो पूत, तुजो कर्ण तुका प्रणाम करता कुंतीमाते! (तिका हाताक धरून उठयता.)

कुंती : इतलीं वर्सां हांव मनांतल्या मनांत रडटालें रे शाण्या. आयज तुवें म्हाका आई म्हणलें. आयज म्हजो आत्मो धादोसलो. शांत जालो. ह्याच खिणांक मर्ण आयलें तरी उपकारता. येता हांव (कुंती जीर्ण... जर्जर अशी आपली कूड सांबाळीत उठटा. कर्ण मुखार सरता.)

कर्ण : आई... तू अशीच आयली? वतना ह्या तापलेल्या रेवेंच्या कणांनी तुजे पांय हुलपतले.

कुंती : ना पुता. तू काळजी करूं नाका. तुजे आवयचे पांयच कित्याक मन लेगीत वातड जालां. येतां.

कर्ण : हांव चार पावलां तुजेबराबर येता. पावपाक येतां. तुज्यान थंयमेरेन वचपाक जायत अशें दिसना.

कुंती : ना पुता. तुज्या आई ह्या एकाच उल्यान पयलींची ताकत म्हज्यांत परत जमा जाली. येता हांव. म्हजे सूनेक वृषालीक सांबाळ.
(वता... कर्ण पळयत उबो आसा. चलता आसतना कुंती कोसळटा... कर्ण धावून वचून तिका आदार दिता.)

कर्ण : आई... कितें जालें...?

कुंती : कांयच ना मात्सो दोळ्यांकडेन काळोख आयलो रे. ग्लानी आयली... येता...

कर्ण : आई!

कुंती : कितें पुता?

कर्ण : म्हजी एक इत्सा आसली. तुज्या मुखार उक्ती करून मन ल्हव करूंक सोदतां.

कुंती : सांग रे पुता

कर्ण : म्हजेकडल्यान एक व्हडली चूक घडल्या.

कुंती : कसली?

कर्ण : अस्तुरेचें शील हें सगळ्यांत चड मोलाचें अशे आयज़मेरेन मानलां हांवें. पूण निसरलों हांव. वस्त्रहरणाच्या वेळार इतलो तेंप व्हडा कश्टांनी खर प्रयत्नांनी अखंड जपिल्ली चारित्र्याची धवीफुल्ल प्रतिमा म्हजी हावेंच बुरशी केली.

कुंती : वस्त्रहरणाच्या वेळार?

कर्ण : हय. वस्त्रहरणाच्या वेळार. द्रोपदीन स्वयंवराच्या वेळार केल्ल्या अपमानाचो राग मनांत दवरून वस्त्रहरणाच्या वेळार तिच्या पदराक हात घालपाची सुचवणी म्हजीच आसली.

कुंती : आता पश्याताप करून कितें उपेग?

कर्ण : म्हाका प्रायश्चित घेवपाक जाय!

कुंती : हांव कितें करूं?

कर्ण : पांचालीक सांग, पुरुशार्थाच्या अहंकारान आनी अपमानाच्या सूडभावनेन म्हजेकडल्यान चूक घडली. हांव चुकलोंच. जाता जाल्यार म्हाका क्षमा कर म्हूण सांग.

कुंती : कर्णा!

कर्ण : हय माते! तूं फकत सांग. तिणें म्हाका क्षमा करप ना करप हो तिचो

प्रस्न. पूण तुवें हो रकाद तिच्या मेरेन पावयलो जाल्यार म्हज्या दुख्खाचें अर्दे वजें कमी जातलें. सांगता न्हय?

कुंती : सांगता! येता हांव. (कुंती सवका सवका वता. कर्ण... तिका पळयत आसा...)

कर्ण : आयज कळ्ळो म्हाका त्या सपनाचो अर्थ. म्हजो जल्मदातो म्हाका सांगपाक आयिल्लो, पूण सांगपाक शकलो ना. घडये काळाकच तें मान्य नाशिल्लें. आवयच्या तोंडातल्यान कळपाचें आशिल्लें. आयज कळ्ळो सगळे जिणेचो खरेलो सार.

सगळ्यांनी वंदिलेली राजमाता ती म्हजी खरी आवय.

समाजान रचिल्ल्या नेमाच्या बसकेच्या आड म्हजो जल्म! तरीय ती म्हजी आवय. तेदेवेळार तिणें कितें भोगलें हें तीच जाणां.

जण एकल्याक मान वयर करून जगचे अशें दिसता. म्हाकाय दिसतालें. तिकाय दिसलें. ती तर राजमाता. खरी वस्तुस्थिती कळलेली जाल्यार तिका लोक जगपाकच दिवचे नासले. आनी ती दुसरें कितें करतली आसली?

पूण तरीय हांव जगलो. हें व्हड न्हय?

कितले तरी अगणीत वीर या धतरेन रूजयले, वाढयले आनी निमाणें आपल्या मातयेंत मिसळ्ळलेय. हांव कोण? व्हड पराक्रमी योद्धो! रणांगण गाजोवपी? दानवीर? छे!! कितें म्हजी वळख? आवय मुखार सगळें तुच्छ! आवयक खोटायता तो कसलो वीर? तो कसलो राजा? तो कसलो पूत? मर्णा उपरांत तरी ताका मोक्ष मेळत काय?

शोण, राधामाई, बाबा सगळ्यां सगळ्यांनी म्हजेर निर्हेतूक माया केली. कोण म्हुणून? राधाबाई आनी बाबाक सत्य खबर आसून लेगीत ती म्हजेखातीर झरलीं.

आनी हांवें मात म्हजे जल्मदाते आवयक न्हयकारप?

नाका... जग कितेंय म्हूण. झुजाचे परिणाम, निकाल कितेंय जांव. निमाणें झुजाचे परिणाम सगळे विनाशीच. आता मरणाचो भंय उरुं ना. निखालस उरूंक ना.

(पड्ड्याचेर फाटल्यान युद्धाच्यो सांवळ्यो झळकतात. दृतगतिन

चलिल्लें संगीत भेसूर. आकांताच्यो किळांच्यो. एकावटेन बायलांचो भुरग्यांचो आकांत. पड्ड्याचेर उबारून व्हरतात तसल्योच सांवळ्यो झळकतात. माचयेर एका वटेच्यान दुख्खेस्त अंतस्करणान बशिल्ली कुंती दिश्टी पडटा.

भितरल्यान शिर्शक गिताचे सूर कानांत पडटात.

*राधेय न्हय रे... कौंतेय तू रे*

*सूतपूत न्हय रे...*

*म्हजो अपुरबायेचो कुंवर रे...*

(काळोख)

## (प्रवेश पांचवो)

दृश्य बदलता.

(कुरुक्षेत्रावेलें कौरव पांडवां मदलें युद्ध सोंपलां. कर्ण मरता. निमाणी कुंती आपल्या म्हालांत एकलीच दुकां गळयत बशिल्ली आसा. तिका फाटली कसली तरी याद जाता. ती एकेच दिखेन पळयता. तिच्या मनांतले उत्कर्फे तिका जाल्ल्या भासातल्यान दिसतात. - तिका दुर्वासाचो राग येता. यादी सकट तिच्या मुखामळावेले भाव बदलतात.

तिणें रागाबरयां दुर्वासाक आवाहन केलां अशी कल्पना... माचयेर दुर्वास दिश्टी पडटा. भेस सदचोच...)

**दुर्वास** : कोणाक या धर्तरेर म्हाका आवाहन करपाचे धारिश्ट्य जालें? पंचमहाभुतांक आपल्या पाशांनी बांदून दवरपी या दुर्वासाक, इतल्या दुस्वासान उलो मारपाचें धाडस कोणाच्या काळजांत उप्रासलें? विसरले काय कितें म्हजो कोप जायत जाल्यार कितें जायत तें? भस्म करून उडयन म्हाका आव्हान करतल्याक? आनी त्या संवसाराक.

**कुंती** : महर्षी दुर्वास!

**दुर्वास** : म्हजें अशे रितीन नांव घेवपाचें धारिश्ट्य...? कोण? कुंती...?

कुंती : हय... तुवें दिल्या मंत्राच्या शक्तिन जल्मल्ल्या पांच न्हय स पुतांची आवय कुंती.

दुर्वास : इतल्या दुस्वासान, तिडकीन म्हाका आवाहन करपा फाटलें प्रयोजन कितें?

कुंती : प्रयोजना बगर कुंती आवाहन करूंकच शकना.

दुर्वास : कसलें प्रयोजन? कसलें कारण? तुका तर हांवें, तुवें यज्ञाच्या वेळार केल्ल्या सेवेचें फळ म्हुणून येदो व्हडलो आशीर्वाद मंत्राच्या रुपान तुज्या पोशांत घातलो. तुका त्रैलोक्य जिखपी विरांची जननी केली. तुजेसारखी वीरमाता तूंच. तुजी सर या धर्तरेर आनीक कोणाक येवची ना. अशें आसतना इतले तिडकीन म्हाका सादोवपाची वानसा कशी उत्पन्न जाली तुज्यांत? खबर ना म्हजो कोप?

कुंती : कोप करून म्हजें आनीक कितें हाज्यापरस वायट जातलें? आनी कोणय भियत महर्षी तुमकां. (दुर्वास हे उतरांनी विस्मीत जाता.) पूण... कुंती तुमच्या रागाक अनमनना..

दुर्वास : उतरां फाटीं घे कुंती. म्हजो कोप तुका खबर ना. आजून धर्तरेर म्हजो दरारो चलता. म्हजें नाव घेवपाक पसून व्हडले व्हडले अनमनतात. तुजीं उतरां फाटीं घे.

कुंती : कित्याक उतरां फाटी घेंव? आनीक कसलो स्राप दितले तुमी म्हाका? कितें लटकें घडलें म्हज्या कडल्यान उतर फाटीं घेवपाक?

दुर्वास : तूं म्हाका आव्हान दिता. पंचमहाभुतां जाणें आपले दावणीक बांदल्यांत, ताका तू आव्हान दिता? तू महर्षी दुर्वासाक आव्हान दिता. लासून गोबोर करतलो.

कुंती : ते केल्लें जाल्यार खूब बरें जातलें आशिल्लें. निदान सुट्टलें तरी आसलें. विनाकारण हे भोग तरी भोगचे पडचे नासले.

दुर्वास : हावें तुका वरमंत्र दिल्लो म्हुणून तर तू येदी व्हडली जाली. धर्तरेवयल्या महारथींची आवय जावंक पावली. तुज्या पुतांच्या नांवा बराबर युगान युगां तुजी किर्त सासणांची तिगतली. लक्षान दवर हें सगळें म्हज्याच वरमंत्रान घडूंक शकलें. देवांक तुज्या कुसव्यांक जल्म

घेवपाक लावपाची शक्त म्हजी. हे सगळे नश्टे भोग म्हणटा तूं?

कुंती : महर्षी तुमच्या महायज्ञाच्या वेळार हांवे जी तुमची सेवा केल्ली ती खंयचीच अभिलासा, आस मनांत बाळगून करूं नाशिल्ली. यज्ञाच्या त्या दिसांनी म्हज्या कुडीक कसले त्रास जाताले काय कितें... ताचेकडेन पळोवंक लेगीत म्हाका उसंत नाशिल्ली. तसो वेळच नाशिल्लो. आयज हें करुंक जाय, तें सोंपता म्हणसर तुमी फाल्यां दुसरी कसली आज्ञा करता ताचे तयारेक लागपाची रुखरुख आसताली. सेवा केल्या उपरांत म्हाका अमूक मेळूंक जाय अशें कांयच म्हज्या मनाक लेगीत आफडलें ना. फकत बाबान सांगिल्लें. तांची आज्ञा शिसावंद्य मानिल्ली हांवें. पूण इतलें करून तुमी म्हज्या पोशांत घालच्या घालून कितें घातलें?

दुर्वास : कुंती?... कितें उलयता तें खबर तरी आसा व्हय तुका? त्रैलोक्य जिखपी वीर हांवेन तुज्या कुसव्यांत घातले. तू स्मरण करीत तो देव तुका वश जावन आपले सारखो पूत तुज्या कुसव्यांत जल्माक घालतलो हो वरमंत्र दिल्लो हांवें तुका.

कुंती : महर्षी. त्या वरमंत्राक हांव स्रापमंत्र संबोधता.

दुर्वास : येदे व्हडल्या वरदानाक तू स्राप म्हणटा?

कुंती : हय! महर्षी दुर्वास हांव ताका स्रापमंत्र म्हणटां. म्हाका सांगात तेदेवेळार म्हाका सारखी समज लेगीत आयली नाशिल्ली. जुवानपणाच्या हुंबऱ्यार हांव निकतेंच उबें आशिल्लें. अशावेळार खंयचे जुवान चलयेक दिसचे ना आपल्याक एक सुंदर घोव मेळचो म्हुणून? अशें दिसप सभाविक आसा. कारण हो तिचो दोश नासून, तिज्या कुडीभितर अचळय ऋतुबदलांतल्यान जावपी सैमाचो आंतरिक अविश्कार आसा. तातूंत तर म्हज्यालागीं तुमी दिल्लो मंत्र आशिल्लो.

मनांत आयलें हो मंत्र खरो काय फट हें अजमावन पळोवप. केन्ना केन्ना दिसतालें असो म्हूण मंत्र आसता?... महर्षीन म्हाका अशेंच फटयलें आसतलें, सान भुरग्याक फटयतात तसें. पूण परत तुमच्या

सामर्थ्याची जाण येतकीर हो अविश्वास पयस जालो, आनी मंत्रा
खरें-फटपण पारखून पळोवपाची इच्छा जाली मनांत.

(तिका फाटली याद जाता.)

ते दिसा हांव सकाळीं न्हिदेंतल्यान जागें जातना तावदानांतल्या
सकाळच्या तांबड्यागूंज किर्णातल्यान भांगराच्या कोराचो सूर्यदे
आपल्या असंख्य आऱ्यांतल्यान सामको चकचकत भायर सरत
कसो म्हाका दिसलो. इतल्यान म्हाका याद जाली तुमच्या मंत्राची
सूर्यदेव सगळ्यांत तेजवंत, सगळ्यांत श्रेष्ठ, सगळ्यांत पराक्रमी
असलो पुरुष म्हाका घोव म्हुणून मेळ्ळो जाल्यार केदें भाग्य!

नकळटां मंत्राचो उच्चार केन्ना जाला ते म्हजें म्हाकाच कळ्ळे ना. मंत्र
पुराय जायफुडें त्या झगझगत्या उज्या गाभ्यांतल्यान पूर्वदिकेंतल्यान
एक आकृती लखलखत म्हाका पळयत हांसत म्हजेलागीं येता अशें
म्हाका दिसलें... तेन्ना हांव म्हजें पृथा उरूक नासलें. (बरोच वेळ
वग्गी रावता.)

कर्णाच्या रुपान कवच कुंडलां आंगार आशिल्लो पूत म्हज्या
कुसव्यांत दिवन सूर्यदेव गेले. पूण हें सगळें... समाजान रचिल्ल्या
बसकेच्या आड घडिल्लें. म्हजेकडल्यान सामाजिक बसकेच्या आड
पाप घडिल्लें.

महर्षी म्हाका सांगात अशी वानसा म्हजे भितर उत्पन्न जावप ही
म्हजी चूक? खंयचे जुवान चलयेकडल्यान अशी चूक घडची ना?
तिच्या मनांत अशें येवप ही तिची चूक? काय तुमी एका अल्लड
अवस्थेंत आशिल्ल्या अजाण, जुवानपण आंगार खेळयतल्या
कुमारिकेक हो मंत्र दिवप ही चूक? वरदान दितना तुमी म्हज्या
भविश्याचो कित्याक विचार केलो ना?

**दुर्वास** : कसलें भविश्य? मुखार राजा पंडुकडेन तुजें लग्न जालें. तुका येदे
व्हडले पूत लाबले.

**कुंती** : सगळें खबर आसून लेगीत महर्षी अशें उलोवन म्हाका आनीक
खंती करूं नाका. वैवाहिक आयुष्य लेगीत म्हाका खोशेन जगोंवक

मेळ्ळें ना. सगळी जीण शापदग्ध अशीच हांव जियेली. कर्ण म्हजो पूत हे खबर आसून लेगीत हांव ताका म्हजो पूत अशे म्हुणूक शकलेना. समाजाची बंधना झुगारून हांव ताका आपणावपाक शकलें ना.

आयज रक्ताच्या भावाकडल्यान ताका मर्ण आपयलें. तें हांवे पळोवप आनी रडपय ना अशी अवस्था म्हजी. हांव धड रडूंकय शकना आनी हांसुकय शकना. दोगायनीं म्हज्याच कुसव्यांत जल्म घेतिल्लो. हें सगळें तुज्याच मंत्राक लागून घडलेलें न्हय? तुवें फकत तुजोच सुवार्थ पळयलो. पंचमहाभुतांक आपल्या सामर्थ्याच्या बळार तुजे दावणीक बांदलीं. तुज्या वरमंत्रान म्हजे जिवन सुखी जावपाचें तें दुख्खाचे झरीनी कित्याक व्हांवोवचे पडलें? सांगात.

तुमी म्हणटात पंचमहाभुतां आपल्या आधीन आसात. शक्य आसा जाल्यार चुकोवन दाखयात जिवन गती. हाडात म्हज्या कर्णाक परत म्हज्या आयुष्यात! जाता?

(दुर्वास वगी)

निदान एक तरी मेल्लो जीव तुमी परत जितो करूंक शकतात? ना मू...?

काय तुमची शक्त फकत संवसाराचो विलो करपाकूच समर्थ आसा?... तशें आसत जाल्यार महर्षी हांव तुमचो धिक्कार करतां. संवसाराचें भलें करपाकच साधनेची मोख आसूंक जाय; संवसार काबार करपाक न्हय.

म्हज्या कर्णाच्या, तेच बराबर या पुराय विनाशाक तुमी जबाबदार! कित्याक दिलो असलो घातक मंत्र तुमी म्हाका? कित्याक केलें म्हजें जिवन व्यर्थ! जाप दियात न्ही महर्षी. आनी शक्य नासत जाल्यार म्हाका तुमच्या असामान्य सामर्थ्यांच्या बळार लासून गोबोर तरी करात. सुटूनी तरी म्हाका जल्मर्णाच्या दुश्टचक्रांतल्या फेऱ्यांतल्यान. (महर्षी दुर्वास वोगीच रावता.) हळूहळू माचयेवेल्यान दुर्वास ना जाता. त्या जाग्यार कुशीच्यान आयिल्लो कृष्ण दिश्टी

पडटा. कुंतीन म्हणिल्ल्ल्या... सुटुनीतरी म्हाका जल्ममरणाच्या दुश्ट चक्रांतल्यान... हें ताज्या कानार पडटा.

कृष्ण तिका पळयता... म्हऱ्यान येता... तरीय कुंती आपल्याच कल्पनेंतल्या विस्वांत आसा. कृष्ण तिका भुजांक धरून हालयता...)

कृष्ण : आते... आते कितें जालें...? तूं इतले मोट्यान कोणाकडेन उलयताली? कोण आयिल्लो हांगा?

कुंती : तो आयिल्लो... तेन्ना आयिल्लो तोच. महर्षी दुर्वास!

कृष्ण : मागीर! खंय गेलो? केन्ना गेलो...?

कुंती : आत्ता... आताच गेलो.

कृष्ण : ना आते, ह्या महालाक आनीक दुसरें दार ना. तो आयिल्लो जाल्यार वतना म्हाका मेळूकच जाय आसिल्लो.

हें पळय दुर्वास आता हांगा येवंक शकना. तो हिमालयांत आसा... आते तुका भ्रम जाला. भ्रमांत काय जायना तुवें तुजे उमाळे, उत्तर्पे ताजेकडेन उक्ते केले. आता पुरो! शांत जा आते. शांत जा.

कुंती : (कांय वेळान) कशें शांत जांव कृष्णा? मधुसुदना कशें शांत जांव रे? म्हजो जेष्ठ पूत गेलो रे.

कृष्ण : हय खबर आसा म्हाका. आताच कुमारी भुयेचेर ताचें पार्थीव दहन करून हांव परतलां. ताजेबराबर आते...!

कुंती : आनीक कोण...?

कृष्ण : वृषाली... वृषाली ताच्याबराबर सती गेली.. खूब समजायली. कांयच उलयली ना. फकत खंयची तरी मोख घेवन शुन्य नदरेन उभी आशिल्ली. निमाणेकडेन तोडले हांगचे सगळे मोहपास आनी गेली घोवाच्या सांगातान.

कुंती : आरे... देवा!... वृषू तुंवय गेलें म्हाका सोडून? कृष्णा ह्या झुजान म्हजें सर्वस्व व्हेलें रे. (रडटा)

कृष्ण : कळपाक जाय आशिल्लें न्हय दुर्योधनाक? आयकून घेतलें ना कोणाचेंच.

कुंती : कृष्णा ताचेर आनी राग काडूं नाका. तोवय सोंपलो. अधर्मी सोंपलो. सगळ्यांक सोपोवन सोंपलो. आता तूंच बाबा सांबाळ सगळ्यांक. आसात तांका तुवेंच उजू वाट दाखोवपाची... तुवेंच सांबाळपाचें....

युद्ध थांबोवपाक कर्ण आमच्या वटेन आयल्लो जाल्यार युद्ध थांबतलें आसलें. येदो व्हडलो संहार जावचो न्हय म्हुणून हांवें ताका ताच्या जल्माचें रहस्य सांगपाक तुका धाडलो... हांव गेलें... पूण...?

कृष्ण : पूण कितें आते...?

कुंती : तो गेलो. ताजे जल्माचें गुपीत फकत म्हजे व्यतिरीक्त तुका खबर आसा.

कृष्ण : निमणें वेळार तूं ताका पळोवंक येतली अशें म्हाका दिसतालें. पूण ताणें लेगीत तशी इच्छा दाखयली ना.

कुंती : हय. ताचीच इत्सा नाशिल्ली. हांव येवन रडलें जाल्यार म्हजे दोळ्यांतली दुकां लोकांक खूब कितेंतरी सांगून वतली आशिल्लीं. म्हणून ताणें म्हाका पयलींच सांगिल्लें.

(भितरल्यान गिताचे स्वर आयकूंक येतात.)

*शोक करची वेळ आयल्या*

*शोक तू करू नाका*

*कर्ण तुज्या वेंगेंत पावला*

*कौंतेय हांव मानतां गे...*

*धन्य तुजी ममता गे...*

*जल्म तुज्या कुसव्यांत मेळ्ळो*

*धन्य हांव जालो गे*

*धन्य तुजी ममता गे –*

कृष्ण : कर्णाचो तुजेर खूब जीव आशिल्लो. आपले आवयचें चारित्र्य अखंड निश्कलंक उरचें असेंच ताका दिसतालें. म्हुणूनच तर ताणें तुका तशें सांगलें आसूंये.

कुंती : कृष्णा... आता आमचो पत्कर घेवपी तूंच. निमाणें एकच मागणें. (अशे म्हणटना अर्जुन फाटल्यान येता. तांकां दिसना. तो आयकता.)

कर्ण म्हजो व्हडलो पूत आशिल्लो. म्हज्याच कुसव्यांक ताणें जल्म घेतिल्लो हें सत्य मात कोणाकच सांगू नाका.

पांचय जाणांपैकी कोणाकच आजून खबर ना. कळपाक दिंव नाका. कळ्ळें जाल्यार...? ते म्हाका केन्नाच भोगसूंचे ना रे!

(अशें म्हणटना कृष्णाची नदर अर्जुनाकडेन वता. आनी थंयच... अर्जुनाच्या मुखामळावेले भाव बदलतात. राग, द्वेश हांचे मिश्रण ताच्या चर्येर दिसता.)

(शिर्शक गीत सुरू जाता...)

*राधेय न्हय रे कौंतेय तूं रे*<br>
*सूतपूत न्हय रे*<br>
*म्हजो अपुरबायेचो कुंवर रे...*

(काळोख)





कर्णः आदी नायक कुंतीः कल्याणी शिरोडकर



दुश्यासनः निर्मल नायक दुर्योधनः मनिशा शिरोडकर
शकुनीः रंजना नायक



-रामदास भास्कर करकडे

शिक्षणः एम्.ए.बी.एड.

व्यवसायः महालक्ष्मी हायस्कूल तळावली हांगा शिक्षक म्हणून १० वर्सां तशेच ताजे उपरांत, उजगांव हांगासल्ल्या सर्वोदय उच्च मा.विद्यालयात मराठी आनी कोंकणी विशयाचें अद्यापन.

छंदः योग, क्रिकेट, चित्रकला, अभिनय, लेखन, हस्ताक्षरांच्यो कार्यशाळा घेवप.

नामोः घर क्र. ११८,तरवळे, शिरोडें,फोंडे गोंय.